जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४५ : आंक २ : सप्टेंबर, २०१८



* संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

* वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी :
आसावरी नायक

* पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

* उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी :
इम्प्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

* वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.
फोन: ९७८०८७११९८

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

## मांडावळ...



भायलें चित्र : महेंद्र आल्वारिस
भितल्लीं चित्रां : भरत जगताप

# भाशीक सर्वेक्षणाचो फायदो सर्वसामान्यांक जावंक जाय : गणेश देवी

**सुशांत कुंकळयेकार**



गणेश देवी हांची वळख गोंयकारांक तांणी सुरू केल्ल्या 'दक्षिणायन अभियान' हे चळवळी खातीर आसाच. ते शिवाय परखड मतां मांडपी एक भाशाशास्त्री म्हणुनय तांकां वळखतात. फाटल्या वर्सा तांचे 'दक्षिणायन अभियान' हे संस्थेन गोंयांत दोन दिसांची राष्ट्रीय समाजीक परिशद घडोवन हाडिल्ली ते वेळारय गोंयकारांनी देवी हांचीं परखड मतां आयकल्यांत.

गणेश नारायण देवी हे आदीं वडोद्र्याच्या महाराजा सयाजीराव गायकवाड विद्यापीठांत इंग्लीशीचे प्राध्यापक म्हूण काम करताले. त्याच वेळार तांणी वडोद्र्यांत 'भाशा संशोधन आनी प्रकाशन केंद्र' स्थापन केलें. तेजगड गुजरात हांगा तांणी सुरू केल्ल्या 'आदिवासी अकादमी'खातीर कितलेश्याच जाणांक आदिवासी जमातींचो पुरायेन अभ्यास करपाची संद मेळ्ळी. २०१० वर्सा तांणी 'People's Linguistic Survey of India' हो भास संशोधनाचो उपक्रम हातांत घेतलो. जाचे वरवीं तांणी ७८० भारतीय भासांचें संशोधन करून तांचें संकलन केलें. सध्या ते धारवाड हांगा स्थायीक जाल्यात आनी संवसारीक भास विविधतायेचेर संशोधन करपाचें तांचें काम नेटान चालू आसा.

भारतांत भासां कडेन पळयतना सरकारी प्रशासनान घेतिल्ली संकुचीत भुमिका तांकां खंती करता. जनगणनेंतल्या सर्वेक्षणांत भासांचें वेवस्थीत चित्र दिसना ते खातीर तांणी जाहीरपणान खंत उक्तायल्या. जनगणने सारक्या विशाल उपक्रमांतल्यान फुडें आयिल्ली म्हायती जर अभ्यासकांच्याय फायद्याची न्हय आनी धोरणांय तयार करतल्यां खातीर उपेगाची ना जाल्यार अशे जनगणनेचो फायदो कितें असो प्रस्न ते करतात. २०११ तले जनगणनेंतल्यान भारतीय भासां संदर्भांत हालींच जी म्हायती लोकां सामकार आयल्या ते विशीं गणेश देवी हांणी 'जाग'कडेन केल्ली ही भासाभास.

**प्रस्न: हालींच उक्ते जाल्ले जनगणनेंतल्यान भारतीय भासांविशीं जी म्हायती मुखार आयल्या ते विशीं तुमचें मत कितें?**

**जाप:** ह्या प्रस्नाक जाप दितना म्हाका बंगाली साहित्यीक महाश्वेता देवी हांचे 'जगमोहन हत्तीचें मर्ण' हे कथेची याद येता. ही कथा हतयाक आयिल्ल्या मरणाची. वाचतल्यांक ती एक व्हड मरणाची काणी अशें दिसूं येता. मात हीच कथा सांगतना लेखिका जायत्या 'ल्हान मरणांची' काणी वाचप्यां मुखार दवरतात. तातूंत भूक आनी लोकां कडल्यान जाल्ली उपेक्षा हे खातीर दलीत आनी आदिवाशांक येवपी मरणांचीय म्हायती आसा. मात तांचो फावो तसो उल्लेख जावंक नाशिल्ल्यान आनी तांचे कडेन दुर्लक्ष जाल्ल्यान तांकां फावो तशी वाचा फुटूंक ना अशें लेखिका सुचयता.

उदरगतीच्या नांवा खाला मरण येवपी झाडां आनी रानां विशींय अशेंच. ह्या मरणान कांय जाणांक दुख्ख जाता मात ताचेर फावो तशी चर्चा जायना. भासांचेंय तशेंच. भासांक येवपी मरणांचेरूय जाय तशी चर्चा जायना. कारण ती भास उलोवपी निमणो मनीस सोडल्यार हेरांक ते भाशे विशीं व्हडलेंशें देणें घेणें आसना. मात जेन्ना एक भास सोंपता तेन्ना शेंकड्यांनी वर्सां तें भाशेन जें कितें गिन्यान जोडिल्लें आसता तेंय नश्ट जाता. ते म्हायती कडेन पळोवपाची वैश्वीक नदरूय ना जाता. होय एके तरेचो संहारूच. एक लक्षांत घेवपाक जाय जायते खेपे सांस्कृतीक उच्चाटन ते संस्कृतीचेर जाल्ल्या आक्रमणा खातीर न्हय तर चुकीच्या धोरणा खातीर जावं येता. सैमान तयार केल्ली रचणूक हुमटून पडपा खातीर सुनामीच येवपाक जाय अशें नासता तशेंच संस्कृतीचें. सरकारी अधिकाऱ्यांनी आपणायिल्ल्या ल्हानश्या चुकीच्या धोरणा वरवींय अशें उच्चाटन जावं येता. चुकीच्या तत्वांचेर केल्ली भाशीक जनगणनाय ताका कारणीभूत थारूं येता.

**प्रस्न: तुमकां नेमकें कितें म्हणपाचें आसा?**

**जाप :** फाटलो कितलोसोच काळ धा वर्सुकी जनगणना जाता. १९३१ वर्सा जाल्ले जनगणनेंत देशांतल्या जाती आनी धर्मांचें चित्र प्रखरपणान मुखार आयलें. १९४१ चे जनगणनेचेर झुजाचें सावट आसलें. जाल्यार १९५१ चे जनगणनेच्या वेळार देश नवें प्रजासत्ताक राष्ट्र घडोवपाचे गडखडींत आसलो. १९६१ वर्साचे जनगणनेंत भारतांत १६४२ भासो उलयतात अशी म्हायती फुडें आयली. मात १९७१ चे गणनेन हो आंकडो फकत १०९ भासांचेर हाडून दवरलो. हें करतना खंयचेय भाशेक गणनेंत स्वतंत्र मान्यता मेळपा खातीर ती भास उलोवपी उणेंच १० हजार तरी लोक आसपाक जाय अशें तत्व लागू केलें खरें म्हळ्यार ह्या निर्णयाक कसलोच शास्त्रीय आदार नासलो. हो निर्णय बरोबरूय नासलो. तरी फुडें हेंच धोरण आपणायत

आयले. ते खातीर देशांतली भाशीक परिस्थिती नेमकी कितें ताचें स्पश्ट चित्र केन्नाच हे गणनेंतल्यान फुडें येवंक ना.

**प्रस्न: सध्याची स्थिती कितें आसा?**

**जाप:** गणनेची म्हायती त्या धा वर्सांच्या पयल्या वर्सांत संकलीत करतात. मात ती म्हायती लोकां मेरेन पावपाक फुडलीं कितलीशींच वर्सां लागतात. कारण भाशेचें शास्त्रीय आनी अर्थीक कसवटेचेर संकलन करपा खातीर वेळ लागता. २०११ वर्सा केल्ले भाशीक गणनेचे निश्कर्श हालींच लोकां मेरेन पावल्यात. १२० कोटी उलोवप्यां कडल्यान ही म्हायती एकठांय केल्या. हे खातीर गणना करपी कार्यालयाची तोखणाय करपाकच जाय. मात ह्या संकलनान कितलेशेच प्रस्नूय उबे केल्यात हेंय तितलेंच खरें.

२०११ चे गणनेंत नागरिकांनी १९५६९ वेगळ्या वेगळ्या आवय भासांची नोंद केल्या. ह्या नोंदीक तंत्रीक भाशेंत 'Raw Returns' अशें म्हणटात. मात हे आदीं संकलीत केल्ली म्हायती तांतल्या १८,२०० आवय भासांची नांवां प्रमाणीत नांवां कडेन जुळनात अशें हे गणनेंत म्हळां. हे खातीर १३६९ भासोच प्रमाणीत भास विभागात आस्पावल्यात. हाचोच अर्थ उणेच ६० लाख नागरीक ज्यो भासो आपल्यो आवयभासो मानतात त्या भासांक हे गणनेच्या प्रमाणीत भास विभागांत सुवात मेळूंक ना.

ते शिवाय १२६९ प्रमाणीत आवयभासां शिवाय १,४७४ अश्यो आवयभासो आसात तांकां हेर आवयभासो हे वळेरेंत दाखयल्यात. हाचोच अर्थ हे गणनेंत ह्या हेर आवयभासांक आपलें स्वताचें अस्तित्व आसुनूय तांकां स्वताची वळख दिवंक वा हेर आवयभासो हे वळेरेंत घालून ह्या भासांचे अस्तित्वूच ना केलां.

ज्या निमणे भासांचो वळेरेंत आस्पाव केला त्यो भासोय १२१ वेगळ्या वेगळ्या विभागात आस्पावल्यात जातुंतल्यो २२ भासो संविधानाचे आठवे वळेरेंत अनुसुचीत केल्ल्यो आसात जाल्यार ९९ भासो बिगर अनुसुचीत वळेरेंतल्यो आसात. हे भाशीक गणनेंतल्यान उजवाडा आयिल्ले म्हायतीचो बारीकसाणेन नियाळ केल्यार कितल्योशोच स्वतंत्र भासो खंयचे तरी एके भाशये खाला वर्गीकृत केल्ल्यो दिसतात. देखीक हिन्दी हे भाशे खाला उणेंच ४० वेगवेगळ्या भासांचो आसपाव आसा. भोजपुरी सारकी भाशा जी पांच कोटी वयर लोक उलयतात जे भाशेक स्वताचो सिनेमा, नाटक, साहित्य आनी वेगळी शैली आसा ती भाशा हिन्दी भाशे खाला दाखयल्या. राजस्थानांतली वेगळी स्वतंत्र भास उलोवपी उणेंच तीन कोटी नागरिकांची आवयभास हिन्दी दाखयल्या. हीच गजाल मध्यप्रदेश आनी महाराष्ट्रांतल्यो आदिवासी उलयतात त्या पोवरी व पावरी हे भाशेची. उत्तराखंडांतल्या कुमावती भास उलोवप्यांचीय आवयभास हिन्दी म्हूण नोंद जाल्या. हे खातीर देशांतल्या हिन्दी आवय भाशीकांचो आंकडो ४२ कोटी ८३ लाख ४७ हजार १९३ इतलो व्हड जाला. प्रत्यक्षांतली परिस्थिती वेगळीच आसा. अशीच गत संस्कृत भाशेची. हे भाशेंतल्या लोकांचोय आंकडो असो अवास्तव फुगोवन भारतांतल्या लोकांची ती दुसऱ्या पसंतीची भास अशें चित्र गणनेन उबें केलां.

**प्रस्न: म्हणजे ही गणना अचूक ना?**

**जाप:** एकाद्रे आंकडे अचूक आसत पूण वस्तुस्थितीक धरून ना. देख दिवचीच जाल्यार इंग्लीश भाशेन दिवं येता. भारतांत शिक्षण, कायदो, प्रशासन, प्रसारमाध्यमा आनी भलायकी ह्या वाठारांत इंग्लीश भाशेचो मोठ्या प्रमाणाचेर वावर करतात. ते खातीर देशांतली दुसरे पसंतीची भास म्हूण इंग्लीशीचो खरो उल्लेख जावंक जाय. मात हे भाशेक फकत 'आवयभास' दर्ज्या पुरती मर्यादीत दवरल्या. भारतांत मोठ्या प्रमाणाचेर इंग्लीश ही संपर्क भास म्हूण वापरतात. कांय प्रमाणांत आमच्या भोवभाशीक देशाक एकठांय हाडपी भास म्हूण इंग्लीशी कडेन पळयतात. ही वस्तुस्थिती हे गणनेंत दिसूंक नाका? मात कित्याक तें खबर ना ही भास देशांतली दुसरे पसंतीची भास म्हूण दाखयनासतना हे गणनेंत इंग्लीश आवयभास आशिल्ल्यांचो आंकडो २,५९,६७९ असो दाखयला. ही आंकडेवारी जरी अचूक आसली तरी वस्तुस्थितीक धरून ना हेंय तितलेंच खरें.

**प्रस्न: हाचो विपरीत परिणाम कितें जावं येता?**

**जाप:** भाशीक गणनेची ही बातमी लोकांक पेत्रोलाच्या दरा भाशेन मनाक भिडपी अशी दिसची ना घडये मात संवसारीक भाशा धोरण तयार करपी संस्थांच्या अभ्यासाचेर ताचो निश्चितच वायट परिणाम जावं येता. युनेस्को सारखी संस्था अशे जनगणनीकडेन आस्थेन पळयता. हे संस्थेच्या सर्वसाधारण मंडळान १९४६ सावन अणकार विभाग स्थापन करपाचो निर्णय घेतिल्लो; ह्या मंडळान संवसारीक भासां मदली विविधताय मतींत घेवन २००८ वर्सा 'सगल्या खातीरच्या शिक्षणांत भाशीक विविधताय' ह्या मुद्द्याचेर चर्चा करून संवसारीक भाशीक विविधताय दोळ्या मुखार दवरून आपलें धोरण थारायलें. युनेस्को दर खेपे आपलें धोरण थारायतना शिक्षणांतलें भासांचें महत्व, रोजगार मेळोवपाक, संस्कृती तिगोवन दवरपाक आनी पारंपारीक म्हायती सांबाळून दवरपाक भाशांचें महत्व लक्षांत घेता २००० वर्सा युनेस्कोन २१ फेब्रुवारी हो 'आवयभास दीस' म्हूण जाहीर केल्लो. जाल्यार २००१ वर्सा हे संस्थेन संस्कृतीक विविधतायेचो संवसारीक जाहीरनामो जाहीर केलो तातूंत 'भाशीक परंपरेची राखण आनी अभिव्यक्ती, कृती आनी प्रसारा खातीर चडांत चड भाशांक फावो तो आदार' ह्या तत्वाचो आस्पाव केल्लो. ह्या परिघांत युनेस्कोन भाशीक विविधतायेचें जाळें वाडयतनाच नश्ट जावपाचे भिरांते खाला आशिल्ल्यो भासो संवसारीक नकाशाचेर हाडून ह्या भासांच्या संशोधनाक उत्तेजन दिलें. भाशांचें म्हत्व हो मुद्दो मुखेल सुवातेर हाडिल्लो. भारतीय भाशीक गणनेन अशें भासां संदर्भांत कितें उद्दीश्ट्य दवरलां व्हय?

**प्रस्न: भारतीय भाशीक गणने कडल्यान तुमच्यो अपेक्षा कितें?**

**जाप:** भारतीय भाशीक गणनेंतल्यान भारतीय भासांचें सर्वंकश चित्र उबें रावचें ही कोणाचीय अपेक्षा आसतली. जी म्हायती अभ्यासकांच्याय उपेगाची ना, शासनकर्त्यांच्याय ना आनी ती भास

*(पान ६ चेर)*

# २२ भारतीय भाशा आनी तांचो शब्दकोश 'भारतीय भाशाकोश'

**डॉ. चंद्रलेखा डिसौजा**

भारतीय भाशाकोश हातूंत आमच्या देशाच्यो १८ भाशा जांचो आसपाव भारतीय संविधानांत जाला तांचो शब्दकोश, केंद्रीय हिंदी निदेशालय, नवी दिल्लीन तयार केल्लो आनी २०१२त तो प्रकाशींत जाल्लो. आतां ताची पुनरावृत्ती २०१८त जावपाची आसा भाशे खातीर उतरां आनी कोश खूब महत्वपूर्ण आसतात. शिक्षणांत आवय भाशेचें महत्व कोणूच नाकारूंक शकना. ह्या टेक्नोलॉजीच्या युगांत भास सतत परिवर्तनशील जायत रावल्या. कम्प्यूटर आनी मोबायलाक लागून कितलीशींच नवीन उतरां तयार जाल्यांत. भारतीय भासो आनी पाश्चात्य भासो हाका लागून प्रभावीत जाल्यात. इंग्लीश भाशेच्या शब्दकोशांत एशियन भाशेच्या पांच हजार शब्दांचो आसपाव जाला तशेंच आमच्यो भारतीय भासो लेगीत इंग्लीश भाशेचे शब्द आपले गरजेनुसार आस्पावीत करीत रावल्यात. शब्दकोश, अणकारकोश भोवभाशीक भारतीय लोकां खातीर खूबच महत्वपूर्ण जाल्यात. हाकाच लागून साहित्य अकादमी लेगीत ज्या पुस्तकाक पुरस्कार दिता ताचो अणकार भारतीय भाशेंत जावचो हे खातीर यत्न करीत आसतात. तशेंच केंद्रीय हिंदी निदेशालय लेगीत संविधानाचीं भारतीय भाशां खातीर पुस्तकां, सीडी, डीव्हीडी, मूळ पुस्तकां, संविधानांतल्या पाठ्यक्रम आदी माध्यमांतल्यान भारतीय भासांचो वावर करीत आसा. प्रादेशीक भासो आनी हिंदी हांकां आनीक लागीं हाडपा खातीर द्विभाशी आनी त्रिभाशी शब्दकोश तयार जाल्ले आसात आनी आतां १९८४ ह्या वर्सा ज्यो भासो संविधानांत आसपाविल्ल्यो हिंदी, पंजाबी, उर्दू, काश्मिरी, सिंधी, मराठी, गुजराती, बंगला, असमिया, ओडिया, तेलुगु, तमिळ, मलयाळम आनी कन्नड हांचो शब्दकोश तयार केला. १९९२ ह्या वर्सा हातूंत कोंकणी, नेपाली आनी मणिपुरी भाशेची भर पडली. वांगडाच संस्कृत भाशेचो लेगीत आसपाव जालो. जो शब्दकोश १४ भाशेंत आशिल्लो तो आतां १८ भासांचो जालो. पयलींचो शब्दकोश नवीन संस्करणांत पावलो आनी भासो १८ जाल्यो. विशेशज्ञांक परत आपोवन हें कार्य पुराय करून घेतलें. २००३त दुसऱ्यो चार भासो डोंगरी, संथाली, मैथिली आनी बोडो हांचोय आसपाव करून आतां २२ भारतीय भाशांचो कोश प्रकाशीत जावपाचो आसा.



ह्या शब्दकोशा खातीर हिंदीचे व्हडले भासविज्ञानीक आनी विद्वान हांची कमिटी नेमून जनसाधारण आनी भारतीय भासो शिकपी विद्यार्थी हांकां मतींत धरून तशेंच सांस्कृतीक, सामाजीक आनी भाशात्मक एकता लक्षांत धरून, पांच हजार शब्द वेंचून तांचो आसपाव शब्दकोश करपा खातीर घेतलो. हो कोश करताना थोडयो थारावण्यो जाल्यो त्यो अश्यो:

१) जर तत्सम आनी तद्भव हांचें रुप समान आसत तर जो शब्द चड प्रचलीत आसा ताकाच तत्सम रुपांत स्थान दिला आनी तद्भव रुप आसा ताका कंसांत दिलां.

२) जर तद्भव रुप तत्समा परस वेगळें आसत आनी अर्थपरिवर्तन जायत जाल्यार दोनूय रुपां घेतल्यांत.

३) तद्भव तशेंच देशज शब्दांची विविध रुपां आसतात तातूंतल्यान जें रूप प्रचलीत आसता ताकाच प्रविश्टी रुपांत घेतलां.

४) शब्दांची व्युत्पत्ती आनी व्याकरणीक रुप लक्षांत धरूनय थोडे शब्द वेंचून काडल्यात.

२२ भासांच्या कोशांत हिंदी वांगडाच हेर भासांचें जे पर्याय दिल्यात तांची लिपी सुद्दां देवनागरीच दवरल्या. ह्या कोशाची विशेशताय म्हळ्यार हातूंत मूळ शब्द हिंदी भाशेचो घेतला, ताची व्याकरणीक कोटी दिल्या, मागीर हिंदी भाशेचे महत्वपूर्ण पर्याय आनी अर्थ दिल्यात. मागीर तेच लायनींत २२ भासांचे शब्द आसपावन घेतल्यात.

हो भारतीय भाशा कोशाचो दळदार ग्रंथ एकूच आसा पूण ताचे दोन वांटे केल्यात- १ सामान्य जिणेचेर आधारीत उतरावळ आनी दुसऱ्या खंडांत साहित्य, सामाजीक, शिक्षणीक क्षेत्रांचे पारिभाशीक शब्द घेतल्यात. आर्युविज्ञान, तकनीकी टेक्नॉलॉजीची उतरावळ, मेडिकल, संस्कृती, संसदीय, व्यंजनादी, रुतू, कायदो, प्रशासन, कम्प्यूटर, आस्पत्रीचे शब्द, काळदर्शी शब्द, दीस, म्हयने, पशु, पक्षी, खेळ जगत, अळंकार, आंकडे, घरगुती सामान, मसाले, रांदचे कुडीची शद्बावळ, पोस्ट ऑफीस, भाजी पालो, फळां, फुलां, मनरिजवणी उतरावळ, कला, रंग, खावपाच्यो वस्तू, वेवसायीक उतरावळ, देव-देवारो, मित्र-आमीग, कुटूंब अशीं कितलींशींच मळां दोनूय खंडांत आसपावन घेतल्यांत.

ह्या कोशाचें काम सांभाळपी सहायक निदेशक डॉ. राकेशकुमार म्हण्टा की असल्या प्रकारचो हो कोश, भारतीय भाशेंत पयलेच खेपे येता. भास, संस्कृतीची वळख करून दिवपी हो ग्रंथ तुलनाकारा खातीर, विद्यार्थ्यां खातीर, जाणकार वा संशोधकां खातीर वा

व्यक्तीगत अध्ययना खातीर, माहिती खातीर लेगीत हाचो उपेग जातलोच. डॉ. राकेशजी वांगडाच, डॉ. किरण झा, पूण आपलें काम वेवस्थीत रुपान, चिकाटीन करतात. तांची ही निश्ठाच तांकां सफळताय दिता. कोंकणी भास आनी सगळ्यो भारतीय भासो सदांच तांची ऋणी रावतलीं. विद्‌वान आनी प्रशासनाचे मनीस जेन्ना हातांत हात घालून काम करतात तेन्ना समाजाक फायदो जाताच. तांचें उचीत वेवस्थापन निदेशालय करता. विद्‌वानाक त्रास जावचे न्हय म्हूण तांची धांवपळ, कामां प्रती तांचो मोग हाका लागूनच येदें व्हडलें काम सफळ जालां. केंद्रीय हिंदी निदेशालयाचो निदेशक लेगीत तितल्याच आदरान भाशेच्या विद्‌वानांक मान दिता. आपल्या सहाय्यकांक उचीत मार्गदर्शन दिता नाजाल्यार इतल्यो भासो तांकां एकूच पानाचेर तांचे शब्द सगळें काम किटकिटीचें तरी लेगीत सगळ्यांनी मेळून हें काम सफळ जावचें म्हूण यत्न केल्यात. टायप सेंटर, टायपिस्ट हांचें लेगीत योगदान आसाच. इतलेंच न्हय तर निदेशालयाचे केन्टीनाचे लोक लेगीत टायमा टायमार विद्‌वानां खातीर च्या, कॉफी, नास्तो हाडून दिताले, आनी तें लेगीत हांसत्या तोंडान. दिसांतल्यान तीन-चार पावटीं तरी तांकां वयर सकयल करीत रावचें पडटालें पूण तांणी केन्नाच विद्‌वानांक त्रास दिलो ना. निदेशालयाचे, तांचे प्रशासकीय वर्गाचे, मदगारांचे, केन्टीनवाल्यांचे जितले उपकार मानचे तितले कमीच दिसता. संविधानाचो भारतीय भासो आनी तांच्या विकासा खातीर जाल्लो हो शिक्षणीक आनी सांस्कृतीक वावर एक ज्ञानयज्ञा परस मातूय उणो ना. ह्या ग्रंथाक लागून तुलनात्मक अध्ययन, सांस्कृतीक अध्ययन, भाशीक, व्याकरणीक असलें कितलेशेंच अध्ययन करप सोंपें जातलें. हाचे खातीर आमी शब्दकोशाची उतरावळ आनी विविधताय देखी सयत पळोवया -

| हिंदी | तितली |
|---|---|
| संस्कृत | चित्रपतङ्ग: |
| पंजाबी | तितली |
| उर्दू | तितली |
| कश्मीरी | पनपोंपुर |
| सिंधी | पोपटु |
| मराठी | फुलपाखरुं |
| कन्नड | चिट्टें |
| मलयाळम | चित्रशलभम |
| गुजराती | पतंगियुं |
| कोंकणी | पिसोळें |
| नेपाली | पुतली |
| बंगला | प्रजापति |
| असमिया | पखिला |
| मणिपुरी | कुराक |
| ओडिआ | प्रजापति |
| तेलुगु | सीताकोकंचिलकं |
| तमिळ | वण्णत्तुपूच्चि |

| हिंदी | करघा |
|---|---|
| संस्कृत | तन्त्रवाप: |
| पंजाबी | खड्डी |
| उर्दू | करघा |
| कश्मीरी | वोनन, वान |
| सिंधी | आडाणों |
| मराठी | माग |
| कन्नड | मग्न |
| मलयाळम | तरि |
| गुजराती | साळ |
| कोंकणी | हातमाग |
| नेपाली | करघा, कर्घा |
| बंगला | ताँत |
| असमिया | ताँत |
| मणिपुरी | थोङ्खम |
| ओडिआ | तंत, लूगा बुणिबा जंत्र |
| तेलुगु | मग्गमु |
| तमिळ | कैत्तरि |

| हिंदी | प्याऊ |
|---|---|
| संस्कृत | प्रपा |
| पंजाबी | छबील |
| उर्दू | पियाऊ |
| कश्मीरी | छबीलु |
| सिंधी | प्याऊ |
| मराठी | पाणपोई |
| कन्नड | अरवट्टिगे |
| मलयाळम | तण्णीर पत्तल् |
| गुजराती | परब |
| कोंकणी | पाणपोय |
| नेपाली | प्याऊ |
| बंगला | जलछत्र |
| असमिया | प्रथिकक पानी खुओवा ठाई |
| मणिपुरी | लंबी चत्पामी ओङ्शिङ्बू पीथकफम |
| ओडिआ | जलछत्र, जलदान |
| तेलुगु | चलिवेंद्र |
| तमिळ | तण्णीर पत्तल् |

| हिंदी | मैना |
|---|---|
| संस्कृत | सारिका |
| पंजाबी | मैना |
| उर्दू | मैना |
| कश्मीरी | हॉर |
| सिंधी | मैना |
| मराठी | सारिका, मैना |
| कन्नड | मैना हक्कि |
| मलयाळम | मैन |
| गुजराती | मेना |
| कोंकणी | मैना, साळोरी |
| नेपाली | मैना, सारिका |
| बंगला | मयना |
| असमिया | मड्ना चसड् |
| मणिपुरी | मोयना |
| ओडिआ | सारी |
| तेलुगु | सारिक |
| तमिळ | मैना |

| हिंदी | बेसन |
|---|---|
| संस्कृत | चणक, चूर्णकम |
| पंजाबी | वेसण |
| उर्दू | बेसन |
| कश्मीरी | बेसन |
| सिंधी | वेसणु |
| मराठी | बेसन, डाळीचे पीठ |
| कन्नड | कडले हिट्टु |
| मलयाळम | कटलमावें |
| गुजराती | बेसण, चणानो, लोट, चणाना लोटनुं खीरं |
| कोंकणी | चण्याचें पीठ |
| नेपाली | बेसन |
| बंगला | बेसन, बेसम |
| असमिया | बेछन |
| मणिपुरी | बेसोन |
| ओडिआ | बेसन |
| तेलुगु | शनगपिंडि |
| तमिळ | कडलै मावु |

| हिंदी | दिवालीया |
|---|---|
| संस्कृत | देया क्षमः |
| पंजाबी | दिवालीआ |
| उर्दू | दिवालिया, मुफालिस |
| कश्मीरी | देवोल्यदास |
| सिंधी | डेवालियो, खुटलु |
| मराठी | दिवाळखोर |
| कन्नड | दिवाळियादव |
| मलयाळम | दीवाळिकुळिच्च पाप्पराय |
| गुजराती | देवाळियो |
| कोंकणी | दिवाळेखोर, बांकरुट |
| नेपाली | दिवालिया, टाटउल्टेको |
| बंगला | देउलिया, असहाय |
| असमिया | देवलिया |
| मणिपुरी | शेलपाऊदबा |
| ओडिआ | देबालिया, सर्बस्वांत सर्बहारा |
| तेलुगु | दिवालातीसिन-वाडु |
| तमिळ | दिवालान |

हिंदीचीं उतरां तितली, मैना, बेसन, करघा, प्याऊ आनी दिवालीया हांकां भारतीय भासांनी१ह्न२२ उतरां आनी स शब्दां खातीर २२ह्न६=१३२ शब्द आमकां मेळटात. ही विविधताय आमची अस्मिताय आसा. भारतीय भासो कितल्यो लागीं, कितल्यो पयस हाचीं कारणां, तांची तुलना, तांचो इतिहास, आमची भावनात्मक एकता अशें कितलेंशेंच अध्ययन ह्या एक कोशाक लागून सोंपें जातलें हातूंत इल्लोय दुबाव ना. आवयभास कोंकणी वांगडाच ह्यो भासो लेगीत आमकां कितलें गिन्यान दिवं शकतात ताच्यो देखी दिल्यात. भुरग्यांक भास शिकयताना ताचो फायदो जातलोच जातलो. केंद्रीय हिंदी निदेशालय, ताचे निदेशक, उप निदेशक, सहायक अनुसंधान अधिकारी, कर्मचारी वर्ग, वावुरपी वर्ग आनी भाशेचे विशेशज्ञ ह्या सगळ्यांचो हातभार लागून हो शब्दकोश तयार जाला. ताचें स्वागत करुया. 

---

*(पान ३ वयल्यान)*

उलोवपी भाशकांच्याय उपेगाची ना अशी पद्दत उपकारा येवपाची ना. गणने सारकें विस्तृत सर्वेक्षण जाका इतलो वेळ आनी बळ लागता, तांतुतल्यान फुडें येवपी म्हायतीचो सर्वसादारण समाजाक फायदो जावपाक जाय. अश्या सर्वेक्षणांतल्यान आमच्या दायजाचो सांबाळ कसो जातलो आनी भाशीक विविधताय देशाचे महानतेंत कशी भर घालतली हाचो विचार जावपाक जाय. अशें जाल्यारच अश्या जनगणनांक अर्थ येतलो.

संपर्कः 9689902705

# वनस्पतींच्या वेपाराचो नवलांचो इतिहास

सुरेश गुंडू आमोणकार

फुलां फळझाडांचो आनी रोपांचो मोग आशिल्लीं आमचे मदीं खूब मनशां आनी जंय जंय तीं वतात थंय सून तरातरांचीं झाडां-रोपां हाडून तीं लावपाचो छंद जोपासतात. झाडां, रोपां, फळां आनी बियां एका देशांतल्यान दुसऱ्या देशांत व्हरपाचेर बंदी आसा. आमच्या देशांत सुद्दा बंदी आसा, पूण तिची कडक अंमलबजावणी जायना; ऑस्ट्रेलिया आनी अमेरिकेंत मात ती जाता. इतलेंच न्हय तर अमेरिकेंत एका राज्यांतल्यान दुसऱ्या कांय राज्यांत फळां आनी वनस्पत व्हरपाचेर कडक बंदी आसा. हाचें मुखेल कारण म्हळ्यार परदेशांतली वनस्पत आनी फळां देशाच्या शेतकामतपणाक बादिकार जावंक शकतात.

खुद्द आशिया खंडाची देख घेतल्यार, एका देशांतली वनस्पत दुसऱ्या देशांत गेल्या. च्या चिनांतल्यान भारतांत आयलो. पणस भारतांतल्यान भायल्या देशांत पावलो. नीरपणसय आग्नेय आशियांतल्यान सगळ्या आशियाखंडांत पसरलो.

संवसाराच्या इतिहासांत १५व्या शतमानांत पुर्तुगाल आनी स्पेन ह्या दोन राष्ट्रांनी मसाल्यांचो सोद घेवपा खातीर हिंदुस्थानचो दर्यामार्ग सोदपाचो यत्न केलो. अरबांचे कोठवे शेंकड्यांनी वर्सां कालीकोटा सावन मसाले, कापडां आनी रसमी लुगटां हिंदी म्हासागरांतल्यान मध्यपुर्वेक आनी मागीर खुश्कीच्या मार्गान इतालींतल्या वेनिसाक पावतालीं. वेनिसांतले वेपारी ते पदार्थ येवरोपांतल्या देशांक विकताले. हे सगळे वेपारी त्या वेपारांतल्यान गब्बर जाल्ले. पुर्तुगाल आनी स्पेन ह्या देशांक ह्या वेपाऱ्यांची मक्तेदारी मोडचेली आसली. हिंदुस्थानांत वचपी दर्यामार्ग सोदल्यार हें शक्य जातलें हें तांकां कळ्ळें. पूण थंय खंयचे वाटेन वच्चें हाचेर एकमत जायनासलें. येवरोपी वेपाऱ्यांचो एकच मंत्र आसलो. वेपार करप, वेपारांतल्यान गब्बर जावप, आपल्या राष्ट्रांची संपत्त वाडोवप आनी वसाहती जिखप. पंदराव्या शतमानांत पुर्तुगाल आनी स्पेन ह्या देशांनी ह्या वेपाराची सुरवात केली आनी तांचे फाट सून डच, इंग्लीश आनी फ्रेंच हे सर्तींत भितर सरले. काळांतरान पुर्तुगाल वसाहती जिखपांत फाटी पडलें. स्पेनान दक्षिण अमेरिकेंत साम्राज्य जोडलें. आनी तांचे उपरांत आयिल्ल्या डच ब्रिटीश आनी फ्रेंचांनी व्हड साम्राज्यां उबारलीं आनी आंतरराष्ट्रीय वेपारांतल्यान खूब संपत्ती मेळयली आनी जिखिल्ल्या लोकांक आनी राज्याक भिकेक लायलीं. पुणून ह्या वसाहतीं विशीं म्हाका चर्चा करपाची ना. पुर्तुगेज लोक आफ्रिका, आशिया आनी ब्राझीलांत पावले आनी स्पॅनीश लोक मॅक्सिको, मध्य अमेरिका आनी दक्षिण अमेरिका खंडांत चिली देशा मेरेन पातळ्ळे. ह्या लोकां भितर थंयचीं झाडांपेडां, वनस्पत, फळां, मुळां हांचे व्हड प्रमाणांत देवघेव जाल्ल्यान लांवदीक असो शास्त्रीय, तंत्रीक, अर्थीक आनी समाजीक परिणाम घडून आयलो.

पुर्तुगेजांनी हिंदुस्थान आनी आशियेंतल्या देशांतली वनस्पत येवरोपांत व्हरचें एक कारण म्हणल्यार आपूण नव्या प्रदेशांचो आनी चड करून हिंदुस्थानाचो सोद घेतला हाचो पुरावो येवरोपांक दिवपाचो आसलो. तेच भाशेन, ह्या वनस्पतीक वैजकी, शेतकी आनी अर्थीक मोल आसा हेंवय दाखोवपाचें आसलें. हाका लागून येवरोपाच्या शेतकामताचेर म्हत्वाचो परिणाम जालो. देख दिवची जाल्यार मको, तमाटां, बटाटां, कणगां, तरेकवार कड्डणां (अळसांदे, फजांव, चवळी, वाल), मिरसांगो आनी तंबाकू इत्यादी थंय पाविल्ल्यान थंयच्या शेतकामतांत बदल घडून आयलो.



पुर्तुगेजांनी ही नवी वनस्पत, फळां, कड्डणाचीं बियां हिंदुस्थानांत आनी उदेंतेच्या हेर देशां भितर हाडलीं जाका लागून हांगासरल्या शेतकामताचेर परिणाम जालो. देखीक, आंबो हो मुळावो भारतांतलो. पुणून पुर्तुगेज वनस्पत तज्ज्ञांनी आंब्याच्या रुखांचेर तरेकवार गार्फां (कलमां) करून नवे जातीचे रुचीक आंबे तयार केले. त्या आब्यांक गार्फां केल्ल्यांची नांवां दिलीं. देखीक: आंफोस, फेर्नाडीन, कुलास, मोंसेरात इत्यादी. मालकुराद (मानकुराद) म्हणजे निवळायल्लो आंबो. तो गोंयकारांचे आवडीचो. आफोंस आंब्यान सिंधुदुर्ग आनी रत्नागिरी वाठारांचें अर्थकारण सुधारलें. थंय तांणी आंफोस आंब्याच्यो वागो लायल्यो. गोंय मात ते बाबतींत बरेंच फाटीं पडलें. आमच्या जाण्ट्यांनी लायिल्ल्या आंब्यांच्या रुखांच्यो आमी बडायो सांगतात. खरें म्हणळ्यार मानकुराद आंब्याच्यो वागो लावन तांचें उत्पन वाडोवंक जाय. मॅक्सिकोंतली मिरसांग पुर्तुगेजांनी गोंयांत हाडली. गोंयांत खोलाची मिरसांग प्रसिद्द आसा. भारतांत मिरसांगेचें वेपारीकरण जाल्ल्यान कोटयांनी रुपयांच्या निर्गतीचो वेपार जाता. मिरसांग म्हणजे मिरयांसांग. भारतांत जेवणांत तिखसाण हाडपा खातीर पुविल्ल्या काळांत आमी मिरयांच वापरताले. मुळचो अमेरिकेंतलो तंबाकू, भारतांत येतकच ताचेंय व्हडा प्रमाणांत वेपारीकरण जालें.

वसाहतवादी अस्तमतेच्या राष्ट्रांनी भारताचो सोद घेतले उपरांत, भारतांत आनी आशियाखंडांत तरांतरांची वनस्पत, बियाणां आनी फळां कशीं आयलीं हाचो सोद घेवपा सारको आसा.

## पुर्तुगेजांनी आशिया खंडांत हाडिल्ली वनस्पत, बियां आनी फळां

**ॲवोकाडो:** हें मुळचें मध्य अमेरिकेंतलें फळ. तें मनशाचें कामजीवन उत्तेजीत करपी फळ असो समज आसा. ताचे वखदी उपेग जातात. ह्या फळान असो प्रवास केलो: दक्षिण स्पेन (१६०१), जमेका (१६५०), मॉरिशियस (१७८०) आनी फ्लोरिडा (१८३३). ताचे पासून तेलूय काडटात.

**भिकणां** : (भुंयमूग, शेंगदाणो) हीं गोंयांत मोसांबीक सावन आयिल्ल्यान आमी तांकां मसमी भिकणां अशें म्हणटात जावंये. पूण हे मुळचें दक्षिण अमेरिकेंतलें. ब्राझिलांत ताची लागवड जाताली. हें पुर्तुगेजांक कळ्ळें. गाब्रियेल सौजा सुआरिस बरयतात: "एके वेतेंच्या अंतराचेर हाचे रोप लायतात. ताच्यो खांदयो जमनीचेर वाडटात. प्रत्येक रोप एक बशी भर बियां दिता, ज्यो मुळां कडेन जातात." पुर्तुगेजांनी हे रोपे आफ्रिकेंत व्हेले. मालींत ताका 'तिगा' म्हणटाले. तिगा हें उतर मान्तेग (Manteiga- लोणी) हाचो अपभ्रंश. मागीर पुर्तुगेजांनी हो रोंपो पुर्वे कडल्या उदेंतेच्या देशांनी व्हेलो. कालांतरान हाच्या बियांचें तेल मोठ्या प्रमाणांत काडिल्ल्यान खूब देशांनी तो एक म्हत्वाचो उद्‌देग जाला.

**अननस (अनस)** : अननस हें मध्य आनी दक्षिण अमेरिकेंतलें फळ. स्पॅनीश लोकांक अननस हें फळ मध्य अमेरिकेंत तर पुर्तुगेजांक ब्राझीलांत मेळ्ळें. दोगांकूय ह्या फळाचें म्हत्व कळ्ळें. पूण तें चड काळ टिकचेंना म्हूण युरोपच्या लांवदीक प्रवासांत तांणी ताचो हालवो (जॅम) करपाचें थारायलें. पुर्तुगेजांनी तें पयलीं सेंट हेलिना जुंव्यार (१५०५), मेलागसे (पुर्विल्लें मॅडगास्कर (१५४९) आनी हिंदुस्थानांत (१५१८) व्हेलें. मुगल बादशाहांक तें खूब आवडटालें. कांय भारतीय इतिहासकारांच्या मता प्रमाण अननस पुर्तुगेज येवचे पयलीं हिंदुस्थानांत मेळटालें पूण पुर्तुगेजांनी बऱ्या जातींचीं अननसां हाडिल्ल्यान आनी तांचो वापर करपाक शिकयल्ल्यान तांचें म्हत्त्व वाडलें. अननस ज्या वाठारांत पिकता थंय तें कच्चें खातात, हेर कडेन तांचो हालवो आनी हवाबंद केल्ल्यो डब्यांतल्यो फोडी खातात.

**कणगां:** मुळचीं मध्य आनी दक्षिण अमेरिकेंतलीं. पुर्तुगेजांनी तीं येवरोपांत हाडलीं. आनी मागीर हिंदुस्थानांत पावयलीं. स्पॅनीशांनी तीं फिलीपिन्सांत पावयलीं. तीं आशियांतल्या सगळ्या देशां भितर अन्नांत वापरतात.

**बटाटो:** बटाट मुळचो ॲन्डीस ह्या दक्षिण अमेरिकेंतल्या वाठारांतलो, चड करून चिली आनी कोलंबिया देशांतलो जंय उंचाटे वयल्या वाठारांत तो सभावीकपणान जाता. पेरु देशांत बटाटाच्यो हजारांनी जाती आसात आनी त्यो भौतेक रानांत जातात. थंयचे लोक बटाटे आदीं सावन आपल्या अन्नांत वापरताले. मागीर ब्राझील देशांत ताची लागवड जाली आनी स्पॅनीश लोकांनी ते येवरोपांत हाडले.

**वॅनिला:** वॅनिला मुळचें आग्नेय मॅक्सिकोंतलें. थंय सावन तें ब्राझीलांत पावलें. फ्रेंचांनी ते मॅलागसेंत (आदलें मडगास्कर) हाडलें.

**कोको:** (जाचे पासून चॉकलेट आनी कोको पिवन करतात.) ब्राझीलांतल्या ॲमेझन न्हंयच्या वाठारांतलें. थंयचे लोक त्या फळांतल्यान आंबटायल्लें पिवन करताले. मॅक्सिकोचो राजा मोंटेझुमा हाणें स्पेनच्या फेर्नादू कार्तेज हाका तें पिवन भांगराच्या पेल्यांनी पियेवपाक दिलें. ककावोचीं बियां स्पॅनीश लोकांनी येवरोपांत हाडलीं. पिवन म्हणून कोका हांगा लोकप्रिय जालें ना. पूण कोकाच्या बियांची पूड मात मोठ्या प्रमाणांत चॉकलेट करपाक वापरतात.

**काजू:** काजू मुळचें ब्राझीलाच्या किनारी वाठारांतलें झाड. थंयचे लोक ताच्यो साली आनी पानां हांचे वखदी उपेग करतात आनी झाडांच्यो खांदयो जळवाक वापरतात. काजूगरांत प्रथिनां आसतात. पुर्तुगेजांनी काजू १५७० च्या आसपास गोंयांत हाडलो आनी वनस्पत शास्त्रज्ञ गार्सिया द ओर्ता हांणे ताचे उल्लेख आपल्या पुस्तकांत केला. मलबार किनाऱ्याचेर काजूक परनकी मावा म्हणटात. गोंयांत काजूच्या मुट्ट्यां पासून फेणी तयार करतात ज्या पिवनाक आतां प्रतिश्ठा मेळ्ळ्या.

**दुदी, कोकणदुदी** : हीं दक्षिण अमेरिकेंतलीं फळां. तेच परी अळसांदे (फेजांव), वाल, पावटे, आवरे, चवळी हीं अमेरिकेंतल्यान हिंदुस्थानात पावलीं. हळसांदे (फेजांव) गोंयांतच पिकयतात आनी हेर कडेन मेळनात.

**सूर्यफूल:** मुळचें दक्षिण अमेरिकेंतल्या पेरु देशांतलें. तें मेक्सिको मेरेन पावलें. तें युरोपांत पावतकच, १७१६ वर्सा वनयन ह्या इंग्लीश मनशान ताच्या बियां पासून तेल करपाचें पेटंट घेतलें. तेन्ना सावन सूर्यफूल हें शेतकी पीक जालें.

**पेर:** पेर हें मुळचें मॅक्सिको, मध्य अमेरिका आनी कोलंबिया आनी पेरु देशांतलें. म्हणून घडये ताका पेर (पेरू) म्हणटात जांवये. तें पुर्तुगेजांनी उदेंतेच्या देशांनी पावयलां जातलें. गार्सिया द ओर्ता हांच्या पुस्तकांत ताचो उल्लेख ना. म्हणून तें मागीर आयलां जातलें. मोगल बादशाहांक तें आवडटालें. पेरांत सी विटामीक भरपूर प्रमाणांत मेळटा. आतां पेर हें म्हत्वाचे पीक जालां. आदीं पेरां फुकेसवाय मेळटालीं. हालींच हांवें एक ल्हानशें पेर १५ रुपयांक घेतलें आनी अर्द्या किलाचें पेर १५० रुपयांक. तें थायलंड सावन आयिल्लें खंय.

**मिरसांग:** येवरोपांत ही मिरयां बदला वापरताले, कित्याक म्हारग मिरयां सामान्य मनशाक परवडनासलीं. मिरसांग मुळची मॅक्सिकोंतली. ती हरवी आनी सुकोवनूय खातात. मिरसांग हें एक व्हड शेतकी पीक जालां. मॅक्सिकोंतल्यो मिरसांगो तीख आसतात. पूण आसामांतली नाग सलोकिया मिरसांग सगळ्यांत तीख. तिची तिखसाण ८ लक्ष ७७ हजार स्कोवील एकक आसा जी मिरसांगेची तिखसाण मेजपाक वापरतात. लवंगी मिरसांगेक तारवटी मिरसांग अशेंय म्हणटात; कित्याक ती तारवटयांनी हाडली.

**मको:** मको मुळचो मॅक्सिकोंतलो. स्पेनीश लोकांनी तो येवरोपांत हाडलो. पुर्तुगेजांनी ताचीं बियां स्पेनिश लोकां कडल्यान घेतलीं. तांणी तो आफ्रिकेंत व्हेलो आनी थंय सून तो पुर्वेकडल्या देशांत पावलो. आफ्रिकेच्या चडश्या लोकांचें मुखेल अन्न म्हळ्यार मको.

आफ्रिकेंतल्यो आवयो मक्याचे दाणे चाबून तांचो रोस भुरग्यांच्या तोंडांत घालतात.

**पोपाय:** पोपाय घडये मुळची दक्षिण अमेरिकेंतल्या पेरु देशांतलीं. ब्राझीलांत ती १६व्या शतकाचे अखेरेक पावली. स्पेनीश लोकांनी ती पॅसिफिक म्हासागरांतल्यान फिलीपीन देशांत व्हेली आनी थंयसून ताचो प्रसार आशियांत जालो. पोपाय वर्स भर पिकिल्ल्यान, तें बऱ्यांतलें बागायती पीक जालां.

**सिंकोना: (क्विनीन)** सिंकोना पेरु देशांत पिकता आनी थंयचे लोक ताचो वखदी उपेग मलेरिया जोर निवळावपाक करताले. ह्या झाडा पासून क्विनीन करतात. पुर्तुगेजांनी तें पुर्तुगालाक पावयलें आनी थंय एके Countess दुयेंतीक तें वखद बऱ्याक पडिल्ल्यान क्विनीनच्या पावडरीक "Countess" पूड म्हणपाक लागले. चिनी सम्राटाक ही पूड १६९२ वर्सा जेजुईत पाद्रींनी दिवन ताका बरो केलो असो उल्लेख मेळटा.

**तंबाकू:** तंबाकू हें मुळचें मध्य आनी दक्षिण अमेरिकेंतलें रोंप. अमेरिकन ''इंडियन'' लोक तंबाकू ओडटात हे स्पॅनीश लोकांक १४९२ वर्सा कळ्ळें आनी तांणी ताचें रोप येवरोपांत हाडलें. तें वखदी रोप असो समज आशिल्लो. तंबाकू जेन्ना येवरोपांत आयलो तेन्ना खंयचेंय दुयेंस तंबाकू निवळावपाक येता अशी ताची फाम आसली. तेन्ना पुर्तुगालांतल्यान ताका ''पवित्र वखदी रोपो'' अशें म्हणटाले. ब्राझीलांत सून पुर्तुगालाक तंबाकुचीं बियां हाडून नवीं रोंपां तयार करताले. फ्रान्स देशाची राणी Catherine de Medicine जेन्ना बरी ना जाली तेन्ना तिका तंबाकू ओडूंक सांगलो. तेन्ना सावन तंबाकूक ''राणयेचो वखदी रोंप'' म्हणपाक लागलें आनी थंय सून तो रोमाक पावलो. वखदी गुणांक लागूनच तंबाकुचो येवरोपांत चड उपेग जावपाक लागलो.

येवरोपांतलीं मनशां तंबाकुच्या वाढट्या लोकप्रिय वेसनाक लागून शक्तीहीण जालीं आनी मागीर सरकारान तंबाकुच्या वापराचेर कर लावपाचें थारायलें. सरकारानच तंबाकू विक्रेची मक्तेदारी घेतली आनी कांय काळा उपरांत तांणी ती खाजगी वेपाऱ्यां कडल्यान करांच्या स्वरूपान पयशे घेवन ती दिवची केली.

मुगल सम्राट अकबराक इराणच्या राजान तंबाकू ओडपाक रत्नांनी जडयल्लो पायप तंबाकुचे पुडी सयत धाडलो. दरबारांत वैजांची सभा जावन, बादशाहान तो एकदांच ओडचो अशें थारलें. अकबर बादशहान तो एकदांच ओडून ताची रूच घेतली. हाची अकबरनामा ह्या पुस्तकांत नोंद केल्या.

**टमाट:** तोमाट हें रोंप मुळचें दक्षिण अमेरिकेंतलें पूण ताच्या वासाक लागून थंयचे मुळचे रहिवासी तें ''सैतानी वखदी रोंप'' अशें मानताले. स्पेनीश लोकांनी तें येवरोपांत १५२३ आनी तें १५४४ इटालींत पावलें आनी १५९७ सालांत इंग्लंडांत पावलें. इटालींत ताच्या हळदुव्या रंगाक लागून ताका ''भांगराचें सफरचंद'' म्हणटाले. टमाट पुर्तुगेजांनी आफ्रिकेंत आनी हिंदुस्थानात पावयलें. गोंयांत क्रिस्तांव ताचो उपेग आपल्या मांसाच्या रांदपांत करताले पूण बऱ्याच काळ मेरेन हिंदू लोक टमाटाक मांसाचीं फळां म्हणटाले आनी म्हणून आपल्या रांदपांत ते टमाट वापरिनासले.

पुर्तुगेजांनी आशिया खंडांतल्यान साबार वनस्पती येवरोपांत व्हेल्यो. तांतुतल्या तेलबियांचें चीन देशांतलें ''तुंग'' हें रोंप. हिंदुस्थानांतल्यान तांणी तांदूळ व्हेलो आनी ते ताका ''हिंदुस्थानी तांदूळ'' म्हणटाले. पुर्तुगेजांनी मागीर तांदूळ ब्राझीलाक व्हेलो.

**केळ आनी केळीं:** केळ ही आग्नेय आशियांतली आनी ताचो अन्न म्हणून लोक उपेग करतात. पुर्तुगेजांनी केळ आफ्रिकेंत पावयली तेन्ना तांणी तांकां ''अंजिराचीं'' झाडां म्हणलीं.

**ऊस आनी ऊसाची मान:** ऊस मुळचो आग्नेय आशियांतलो. ऊसाची मान (Sugar Cane) अरबांनी मध्यसागराच्या वाठारांतल्यान येवरोपांत पावयली. ऊस आमच्या देशांत हजारांनी वर्सां पिकयतात आनी ताचे पासून गोड करतात. साखर चिनांत तयार जाली म्हूण तिका उत्तर भारतांत ''चिनी'' म्हणटात. पुर्तुगेजांनी ऊस आफ्रिकेंत व्हेलो आनी मागीर ब्राझीलांत पावयलो. पुर्तुगेज जेन्ना आफ्रिकेच्या उदेंतेच्या किनाऱ्याचेर पावले तेन्ना वास्कु द गामाक ऊसाचें पीक दिश्टी पडलें. पुर्तुगेजांनी येवरोपांत साखरेच्या उत्पादनाची मक्तेदारी मेळयली. स्पॅनीश लोकांनी ऊस मध्य अमेरिकेंत पावयलो.

**करंबलां (करमलां):** हें झाड मुळचें इंडोनेशियांतलें. गार्सिया द ओर्ता ह्या वनस्पत शास्त्रज्ञान तें हिंदुस्थानांत मेळटा हाचो उल्लेख आपल्या पुस्तकांत केला.

**च्या :** हें मुळचें आशियांतलें रोंप. पुर्तुगेजांक तें चीनच्या कॅन्टन वाठारांत मेळ्ळें आनी तांणी थंयचेंच 'च्या (Ch'a) हें उतर वापरलें. इंग्लीश लोकांनी Tonkin (टॉंकीन वाठारांतलें) t'e (टे) हें उतर वापरलें. हिंदुस्थानांतले लोक च्या म्हणटात, इंग्लीश लोक 'टी' म्हणटात, आनी स्पॅनीश 'टे' म्हणटात. पुर्तुगेजांनी 'च्या' हें पिवन इंग्लंडच्या राज्य दरबारांत D. Catarina de Braganza (पुर्तुगालच्या जुआंव चवथो ह्या राजाची धूव) हिचे कारकिर्दींत व्हेलें. इंग्लीश लोकांनी 'च्या'चे रोपें मलावी आनी केनिया देशांत व्हरून च्याचे मळे लायले.

**मोसंबी आनी संत्रां:** हीं मुळचीं आग्नेय आशियांतलीं झाडां. तीं अरबांनी भूमध्यसागराच्या वाठारांत पावयलीं. संत्रां आनी मोसंबीचीं झाडां १६३५ वर्सा चिनांतल्यान गोंयां हाडलीं आनी थंय सावन तीं पुर्तुगालाक पावलीं. ताका पुर्तुगालांत ''लारांज द चीना'' अशें म्हणटाले.

**माड :** हें झाड मुळचें आग्नेय आशियांतलें. पुर्तुगेजांनी पयलेच फावट माड हिंदुस्थानांत पळेलो. फा. थॉमस स्टीफन्स आपल्या बापायकडेन १० नोव्हेंबर १५७९ ह्या दिसा 'कोकु' (नाल्ल) ह्या फळाचो आनी ताच्या उदकाचो उल्लेख करता. दर्या वयल्या दीर्घ प्रवासांत उदकाची पुरवण करपाक नाल्लाभशेन साधन ना हें पुर्तुगेज दर्यावर्दी हिंदुस्थानांतल्या तारवटयां कडल्यान शिकले. १५४५ वर्सा पुर्तुगेजांनी हिंदुस्थानांतल्यान व्हेल्ले नाल्लाचे कवाथे लायले आनी तांकां ते हिंदी बियां (a noz de India) म्हणटाले अशें एका दर्यावर्दीन बरोवन दवरलां.

**निरपणस:** (इंग्लीश: Bread Fruit) पुर्तुगेज :(Fruta de pao) (पांवाचें फळ) - Arvore do pao (पांवाचें झाड) मुळचें मलेशियांतलें झाड. पुर्तुगेजांनी तें पारा (ब्राझीलांत) १८०१ वर्सा आनी रिओ द जानैरू हांग सर १८०९ वर्सा पावयलें. पूण गार्सिया ओर्ता हाणें ताचो उल्लेख आपल्या ग्रंथांत करूंक ना.

**पणस :** पणस मुळचो हिंदुस्थानांतलो. एका पुर्तुगेज तांडेलान (pilot) आपल्या कागदपत्रांत असो उल्लेख केला "म्हाका एक फळ हाडपाक लायलें. तें कांळगा भाशेन गोड पूण वयल्यान खरखरीत कांटयांचें पूण भितर गोड आसता."

पुर्तुगेजांनी पणस १६८३ वर्सा ब्राझीलाक व्हेले. सात बल्लांनी रोंपां, St. Francisco Xavier ह्या तारवा वेल्यान व्हेलीं असो उल्लेख आसा. पुणून वाइया ह्या ब्राझीलच्या शारांत इकरा पणसाचीं झाडां रोयिल्ल्याची नोंद मेळटा. पणसा पासून हळदुव्या रंगांच्यो लाकडाच्यो पाटयो मेळटात आनी ताचो उपेग फर्निचरा खातीर जाता. पणसाचो घरो गोड लागता आनी ताचीं बियां भाजून वा उकडून खातात. गोरवांक खावड म्हणूनय पणसांचो उपेग करतात.

**लिची:** लिची दक्षिण चीनांतलें फळ. गार्सिया द ओर्ता हाणें ताचो उल्लेख आपल्या ग्रंथांत केला आनी मॅन्डोसा हाणें आपल्या चीनच्या इतिहासांत लिची फळाचो उल्लेख केला. १८१० वर्सा लिची फळाचे रोंपे ब्राझीलांतल्या रिओद जानैर च्या बॉटॅनिकल गार्डनांत लायले.

**आंबो:** आंबो मुळचें हिंदुस्थानांतलें झाड. आग्नेय आशियांतल्या देशांतूय तें जाता. आनी तें एक उत्तम फळ दिता. गार्सिया द ओर्ता हाणें आपल्या ग्रंथांत म्हणलां: "जितलीं चड हीं फळां खातात तितलीं तीं चड खायन शीं दिसतात." १६८३ वर्सा पुर्तुगेजांनी आंब्याचे रोंपे ब्राझीलाक धाडले अशी नोंद मेळटा. पुर्तुगेजांनी गोंयांत ताचीं गार्फा तयार करून आंबाच्यो नवे जाती निर्मिल्यो. देखीक, आफोंस, कुलास, फेर्नादीन, मालकुराद, मुशेराद इत्यादी.

पुर्तुगेज आनी स्पॅनीश दर्यावर्दीनी मसाल्याचो सोद घेवपा खातीर हिंदुस्थानाचो सोद घेवपाचो प्रयत्न केलो. आशियांतल्या देशांतल्यान पुर्तुगेजांनी तिखी, वेलदोडे, लवंगां, हळद, आलें आनी काळीं मिरयां मोठ्या प्रमाणांत व्हरून, ताच्या वेपारांतल्यान संपत्ती जोडली. पुर्तुगेज वेपाऱ्यांक मसाल्याच्या वेपारांतली कांय प्रतिशें जोड राजाक दिवची पडटाली.

**तिखी:** मुळची श्रीलंकेंतली. तिच्या वेपाराचेर ताबो मेळोवचे खातीर पुर्तुगेजांनी १५१८ वर्सा श्रीलंकेचेर स्वारी केली. ताचे पयलीं दूत धाडून थंय तिखी व्हडा प्रमाणांत जाता हाचो हव घेतलो. डचांनी श्रीलंकेचो १५५६ वर्सा ताबो घेतलो. पुर्तुगेजांनी १६व्या शतमानांत तिखयेचीं रोपां ब्राझीलांत व्हरून थंय तांची लागवड केली. १७५० वर्सा रोशा पिंतु हाणें केल्ले नोंदी वयल्यान अशें कळटा की ब्राझीलांत तिखयेची लागवड सिलोन (श्रीलंका) परस व्हडा प्रमाणांत जाल्या. तिखयेची लागवड इंडोनेशियाच्या जावा प्रांतांत १८२५ वर्सा केली. पुर्तुगेज राजाच्या एका हुकुमा प्रमाण ब्राझील, आंगोल, सांटोमे हांगसर तिखयेची लागवड केली कित्याक डचांनी पुर्तुगेजांच्या ह्या वेपाराक बाधा हाडिल्ली.

**वेलची (वेलदोडे):** ही मुळची हिंदुस्थानांतली. थळावे लोक वेलची आपल्या अन्नांत मोठ्या प्रमाणांत वापरतात अशी गार्सिया द ओर्ता हाणें नोंद केल्या.

**लवंगां:** हीं मुळची इंडोनेशियांतल्या मोल्युकसच्या वाठारांतलीं. लवंगांच्या वेपारांत प्रवेश करपा खातीर अफोंसु द आल्बुकेर्क हांणी १५११ वर्सा त्या जुव्यांचो ताबो घेवपाक लायलो. थंय तांकां इतल्या मोठ्या प्रमाणांत लवंगां मेळ्ळीं की "त्या उत्पन्नाचेर एक व्हड राज्य सुद्दां चलोवं येता" अशी अन्तोनियु गाल्वांव हाणें नोंद केल्या. त्या काळांत लवंगां हो सगळ्यांत किंमती मसालो आसलो. १७७० वर्सा मॉरिशीअस जुंव्यांत ताची लागवड जाली. झंझीवार जुंव्याचेरय लवंगांची लागवड जाली. आनी मागीर ब्राझीलांत.

**हळद:** हळद मुळची हिंदुस्थानांतली. आयज तिची लागवड सगळ्या उष्ण कटिबंधांतल्या वाठारांत जाता. तिचो वैजुकी उपेग करतात. कपडयाक रंग दिवपाक आनी अन्नांत तिचो उपेग करतात.

**आले:** आलें हिंदुस्थान आनी चीन देशांत खूब पुर्विल्ल्या काळा सावन वापरतात. पुर्तुगेजांनी ताची पश्चिम आफ्रिकेंत आनी ब्राझीलांत लागवड केली तर अरब तारवट्यांनी उदेंतेच्या आफ्रिकेंत केली.

**काळी मिरयां:** हीं आग्नेय आशियांतलीं. वास्कु द गामा हाका मिरयां मालिंडी आनी मोंबासांत (उदेंत आफ्रिका-केनिया) वापरतात हाचो सोद लागलो. हिंदुस्थानच्या अस्तंतेच्या किनाऱ्याचेर काळ्या मिरयांची लागवड मोठ्या प्रमाणांत जाता. कालिकतच्या झामोरीं (सामुदी) रायान पुर्तुगेजांक सांगलें की, "म्हज्या राज्यांत व्हडा प्रमाणांत तीं पिकतात". पुर्तुगेजांनी मिरयांच्यो वाली सोळाव्या शतकाच्या आरंभाक ब्राझील देशांत व्हरून लायल्यो.

**रबर:** रबर हें एक म्हत्वाचें झाड आनी ताच्या दिखा (रोसा) पासून ५० लाख टनां वयर सैमीक रबर तयार जातात. रबरचीं झाडां मुळचीं ब्राझीलांतलीं आनी सगळ्यांत उत्तम रबर हेबे ब्राझिलियेन्सीस (Hevea Brazilens Brasiliensis) ह्या झाडाच्या दिखा (रोसा) पासून निर्माण जाता. हीं झाडां आतां इंडोनेशिया, मलाया, भारत आनी उष्ण कटिबंध वाठारांत जातात.

ब्रिटिशांनी रबर उद्देगाची बुनयाद घाली १८७६ वर्सा - हेन्री व्हिकहॅम हाणें ब्राझीलांतसून ७०००० रबराच्या झाडांचीं बियां एकठांय करून तीं लंडनच्या Kew Botanical गार्डनांत धाडलीं आनी सुमार ताचीं २७०० रोपां तयार करून तीं श्रीलंका आनी सिंगापूरच्या वनस्पती बागेंत धाडून, मागीर वेगवेगळ्या देशांत जंय जंय ब्रिटीश वसाहती आसल्यो थंय लावपाची वेवस्ता केली. हाका लागून १९०७ वर्सा ब्राझिलांतल्या सैमीक झाडा पासून फक्त ५ प्रतिशत रबर मेळपाक लागलें, तर रोपां पासून तयार केल्ल्या झाडा पासून १९१४ वर्सा उपरांत ५० प्रतिशत उत्पन्न मेळपाक लागलें. नव्या रबर उद्देगाचें स्रय ब्रिटीश सरकाराक वता.

संपर्क: 9421241221

# म्हजो प्रवास, म्हजी अनुभुती आनी म्हजी साहित्यीक अभिव्यक्ती

**माया अनिल खरंगटे**

प्रवास करप, भोंवप, एका जाग्या वेल्यान दुसऱ्या जाग्यार वचप, ही धतरि वेल्या सगळ्या जीव जिवाळाची आवड वा गरज. गरज हें पयलीं. कारणां कितेंय आसूं सगळ्यांक भोंवचेंच पडटा. सुरवेच्या काळार तर चड करून मनीसजात भोंवतच आसताली. उपरांत ताका थिराय आयली. भोंवप ही खुबश्या जाणांची आवडीची गजाल आनी म्हजे सारक्या कांय जाणांक मात भोंवपाचें वेसन लागता.

हावें अशें आयकल्लें सगळ्यांत बरें वेसन हें वाचपाचे वेसन. पूण हांव म्हणीन वाचना बरोबर भोंवपाचेंय वेसन एकदम बरें. खरेंच वाचनाच्या वेसनाचे जशे फायदेच फायदे आसतात तशें भोंवपाच्या वेसनाचे खूब फायदे आसतात.

सिंदबादच्यो सात सफरी जाणें-जाणे वाचलां, ताचें भोंवपाचें पिशें खबर आसतलें. दर्याचेर सफरीक वतकर जायते त्रास जाताले. कसो बसो जीव वाटावन म्हणटात तसो तो घरा परततालो. आनीक आनी भोंवडी नाका अशें ताका जातालें. पूण घरा येवन दोन चार म्हयने जाता सर ताका परत भोंवडेर वचपाचे वेध लागताले. तशेंच हांव. एक वेळा खंयूय वचून येतकर रोखडेच दुसरे भोंवडेचे म्हाका वेध लागतात.

म्हजो बापूय आबा, ताकाय भोंवपाचें पिशें आसलें. तो सांगी, ''मनशान जाता तितलें भोंवचें, भोंवल्यार नदर विशाळ जाता, तरेकरवार लोकांक मेळप जाता, लोकमानस कळटा. सैमाची सोबीत, मनाक थाकाय दिवपी तितलींच भयांकृत रुपांय दिश्टी पडटात. आमी मनान आनी कुडीनय ताजीं टवटवीत जातात. म्हणून मनशान मेळटा तशें भोंवत रावंक जाय.''

हे कोणाचे विचार ते आबाक खबर नासली. पूण ते म्हाका तो बरेचवेळा सांगतालो आनी म्हाका घेवन भोंवपाकूय वतालो.

म्हजो गांव असोळड्यां. ते वेळार सामकें खेडें. चांदरा एक कामीजांव येता हें आमी आयकल्लें. आबा आनी आमच्या घरांतले जाण्टेले त्या कामिजावांन मडगांवां वताले. अशें कसलेंच वाहन न पळयल्ल्यान म्हाका पयलो प्रवास करपाचो योग आयलो तो रेल्वेन बेळगावां वचपाचो. हांव तेन्ना सात-आठ वर्सांचें आसतलें. त्या पयल्या प्रवासाची म्हाका अजुनय याद आसा.

आमी गाडयेच्या पोटांत बसप, मागीर ती धांव मारता, हें आजये कडल्यान आयकल्लें. ती दोन-तीन वेळा बेळगांवां वचून आयिल्ली. डब्यांत पयलींच भितर सरतना म्हाका खूब भंय दिशिल्लो. विनुमामाचो हात घट्ट धरून हांव भितर गेल्लें. मागीर मात म्हाका ती गाडी खुबच आवडली. आज मेरेन रेल्वेन प्रवास करपाक म्हाका सामकें आवडटा.

विमानाच्यो व्हडविको कोणेंय कितल्योय गांव, पूण प्रवास अणभवूंक मेळटा, प्रवास म्हळ्यार कितें तें कळटा, तो रेल्वेंत. रेल्वेंत जाय तशें सुशेगाद बसूंक-उठूंक मेळटा. नाना तरेचे लोक मेळटात, तांचे तरेकवार सभाव, प्रत्येकाची एक एक काणी. तुमचे कडेन संवाद सादपाची कला मात आसूंक जाय. स. रवीन्द्रबाब केळेकार आनी भौ. पुंडलीकबाब सांगताले, 'लेखकान दोळे आनी कान उगडे दवरून समाजांत वावरूंक जाय म्हणून.' हाचे मुखार वचून हांव म्हणीन लेखकांनी रेल्वेनच प्रवास करचो. लेखनाक पुरक अशे विशय तांकां थंय मेळटात.

प्रवासाची अतिशय आवड आसुनय प्रवासाचो योग म्हाका खूब उसरां आयलो. तशें बेळगांव, मुंबय सोयऱ्यांगेर वचून आयिल्लें. पूण खऱ्या अर्थान वेगवेगळीं थळां पळोवंक भायर सरलें तें मात्से उसरांच.

मुंबय म्हजें आतें रावता. ताचो घोव बेस्ट कंपनींत काम करतालो.

मुंबयचें दर्शन करूंक ताणें आमकां सगळे कडेन बशीन भोंवडायल्यांत. फुकट प्रवास आनी रांगेंत उबे रावपाचीय गरज नासताली. मागीर कांय तेंपान आमी वाड्या वेळीं शेजारीं तेन्नाचे मातादोर टेम्पो करून भोंवक वतालीं. सामानाची गर्दी जाताली, बसपाक आडखळ जाताली. तरी पूण प्रवासाचे खोशयेंत सगळे त्रास सोंसून आमी उमेदीन भोंवतालीं.

म्हजो एक सभाव, खंय वता थंय कितें कितें पळयलें, कितलो खर्च केलो तें सगळें बरोवन दवरप. जेन्ना आमी प्रवासाक वचनात तेन्ना तें बरयल्लें कागद काडून वाचून आनंद घेवपाचोय म्हाका घोस्त. ते भोंवडेच्यो यादीय ताज्यो उरताल्यो. ताका लागून मुखार म्हाका प्रवासवर्णन बरोवपाक बरें जालें.

प्रवास वर्णनाचीं पुस्तकां वाचपाचो तर म्हाका सामको घोस्त. अजुनय तीं वाचून तीं तीं थळां पळयिल्ल्याची खोस हांव घेतां. पूण प्रत्यक्षांत तीं थळां पळोवप हो एक अवर्णनीय आनंद.

सुरवेक हांवें देवळां चड पळयलीं. तींय पाशाणी देवळां. तांची बी दैवी कशी कलाकुसर पळोवन म्हाका पाशाणी देवळां पळोवपाचें पिशेंच लागलें म्हळ्यार जाता. एक फिशाल चित्रकार आपल्या ब्रशान, पेन्सिलेन जितल्या हळुवारपणान चित्रां चित्रायता तितलेच फिशालकायेन, नाजूकसाणेन पाशाणी कोरांतून पाशाण शिल्पां तयार केल्यांत. येदो व्हड व्हड पाशाण अशे तरेन कोरांतून इतलीं अप्रतीम शिल्पां तयार करप हें एक अजापूच. पाशाण तो, तो कोरांततना मात्सो जरी कुडको चड गेलो, वांकडो गेलो जाल्यार थंय आनी दुसरो कुडको लावया म्हळ्यार मेळना. म्हणटकूच तांकां कितलें जागरूक रावन हें काम करूंक जाय तें पळयात. त्या कलाकारांची कलाकृती पळयतना हांव सदांच नतमस्तक जातां.

म्हज्या प्रवासांत हांवें पळयल्लीं हीं मनशांनी तयार केल्लीं अजापां तोंडांत बोटां घालूंक लायतात. मनशा परस सैम केन्नाय व्हड. सैमान तयार केल्लीं अजापां तर आमकां चकासूर करून सोडटात. म्हज्या सारक्या लेखकाक तीं उर्बा दितात. आमचे लेखणेक बळिश्ट करतात.

आमकां प्रवासांत आयिल्लो एक अणभव सांगतां. आमी सुमार इकरा कवयत्री वडोदरा 'ऑल इंडिया पोयटेस कॉन्फरन्साक' वतालीं. आमच्यो फकाणां-मस्कऱ्यो चालूच आसल्यो. आमच्या कंपार्टमेंटात एक दिल्लीची फामील बशिल्ली. आमी उलोवपा भरशीं खंय वतात तें एकामेकांक सांगिल्लें. पनवेल गाडी बरोच वेळ थांबिल्ली, आनी व्हडा व्हडान घोशणा चलताली.

स्टेशनार गाड्यांची माहिती व्हडा-व्हडान सांगत आसतात. आमी कित्याक लक्ष दिलां. पूण दिल्लीच्या जाण्टेल्यान ती घोशणा आयकली. आनी आमी खंय वतात तें ताका खबर आशिल्ल्यान ताणें आमकां बेगीन बेगीन सांगलें. गुर्जर प्रकरणाक लागून गाडी गुजरातांतल्यान मुखार वचूंक दिना आशिल्लें. म्हणून दुसऱ्या मार्गा वेल्यान गाडी दिल्ली वतली आसली.

आमचेर आकांत आयलो. गुजरात वा त्या मार्गान वचपी लोकांक पनवेल देंवयल्लीं. गाडी सुटपाची जाल्ली. आमी बेगीबेगीन सामान कवळ्ळें आनी सकल देंवलीं.

आमी गुजराताक कशीं वचूं तें स्टेशनमास्तराक वचून विचारलें. ताणें तिकेट काडनासतना थंयच्यान लोकलान मुंबय आनी मुखार थंयच्यान वडोदरा वचूंक सांगलें. ताणें आमच्या तिकिटार बरोवन दिलेंच, मुखारय अशेंच बरोवन घेयात म्हणून सुचोवणी केली.

येतनाय आमी स्टेशनमास्तराचे कृपेन एका डब्यांत चडलीं. थंय मात आमकां वायट अणभव आयलो. दोन-तीन कंपार्टमेन्टांतल्या लोकांनी मात्शे लेगीत बसूंक दिलें ना. सामान घेवन आमी मुखार मुखार वतालीं. मागीर एके फॅमिलेन त्रास सोंसून आमकां बसूंक दिलें.

तर सांगपाचें म्हळ्यार अशे जायते विचित्र आनी मनीसपणा भायले तशेच मनीसपण शिकोवपीय अणभव प्रवासांत म्हाका मेळ्ळ्यात. तरीय प्रवासाची उमेद मातूय कमी जायना हें खरें.

मनीस हो असो प्राणी पयलीं पसून भोंवतच आसतालो हें हांवें सुरवेकच सांगलां. भोंवडेक वचून स्थळ वर्णनां बरोवन दवरपाचें काम पयलीं साकून लोक करताले. खूब थोड्या प्रमाणांत जांव मागीर तें. हांवें वाचिल्लें, चिनी भोंवडेकार भारतांत येवन तांणी त्या वेळच्या भारतांतल्या अजापांचेर, समाजाचेर खोलायेन बरोवन दवरलां. म्हणून आमकां त्या वेळा वेलो भारत, मनशां, तांचो सभाव, सगळें समजता. एके नदरेन भोंवडेवर्णनांत इतिहासय भरसल्लो आसता.

कांय वेळार तातूंत भुगोलूय येता. सामाजीक स्थिती तर आसताच. पूण म्हणून ती निखटी भरडकथा वा वाजदिर्णी वर्णनां जावन उपकरनात तीं ललितपूर्ण, तितलींच मिश्कीलय आसूंक जाय. हें भान हांवें म्हजीं प्रवासवर्णनां बरयतना सदांच दवरलां.

कोंकणींत पयलें भोंवडेवर्णन बरयलें तें स. रवीन्द्रबाब केळेकार हांणी. उपरांत भौ. दिलीप बोरकार हांचें पुस्तक आयलें. मात्शे उसरांच भौ. दत्ता नायक हांचीं प्रवासवर्णनांचीं पुस्तकां आयलीं. आतां तर खुबच जाणां भोंवडेवर्णनां बरयतात. सद्या हर्षा शेटये, सुमेधा कामत, युगा आडारकार, स्नेहा वेरेंकार, गीता नायक, प्रसाद पागी आनी म्हजें प्रवास वर्णनाचें पुस्तक आयलां. तरीय कोंकणीच्या मळार भोंवडेवर्णनांचीं पुस्तकां खूबच थोडीं.

हांवें सगळे तरेचें साहित्य बरयले उपरांत प्रवास वर्णनाक हात घालो. हांव जंय वतां थंयची थोडे भितर बरयल्लीं टिपणां म्हजे कडेन आशिल्लींच. पूण कशें बरोवं कितें बरोवं हें येवजूनच हात फाटीं फुडें जातालो. आमी काश्मीराक वचून येतकच म्हज्या पुतान, मोहितान काश्मीरचें प्रवासवर्णन बरयलें. ताचें वर्णन वाचतना म्हाका दिसलें हांवेंय प्रवासवर्णन बरोवचें. रोखडोच विचार कृतींत हाडलो आनी दोन दिसां भितर काश्मीरचें प्रवासवर्णन बरोवन काडलें. बिम्बाच्या दिवाळी अंकांत तें प्रसिद्द जालें. म्हज्या पयल्या प्रवास वर्णनाची प्रत्येकान तोखणाय केली. आनी थंयच्यान हांवें प्रवासवर्णनां बरोवंक सुरवात केली.

काश्मिरान म्हाका फकत प्रवास वर्णनकारूच केलें ना तर हांवें थंयच्या वेगवेगळ्या भागांचेर कविताय बरयल्यो. ते उपरांत प्रवासवर्णन पर कविता हांवें जायत्यो बरयल्यात. म्हज्या साहित्यांत खंयच्या ना

खंयच्या रुपान म्हजो प्रवास आयला. प्रवासान म्हज्या साहित्याक बरीच घटाय दिल्या.

प्रवासान म्हाका खूब तरेन खोस दिल्या. ताचें प्रतिबिम्ब साहित्यांत देंवलां. प्रवासांत मेळपी मनशां म्हाका वाचपाची, तांचे कडेन संवाद सादपाचीय खूब आवड. म्हणून म्हज्या कितल्याच कथांचीं बियां म्हाका प्रवासांत मेळ्ळ्यांत.

म्हज्या प्रवासाक सुरवात कशी जाली तें हांवें सुरवेक सांगलांच. पूण प्रवास कशे घडोवन हाडप तें म्हाका शिकयलें म्हजे तेन्नाचे शेजारी भौ. दामोदर कामथ हांणी. ते मूळचे कर्नाटकांतले. तांकांय भोंवडेची आवड. तांणीच म्हाका लोकांक एकठांय करप, तांकां बरे तरेन कशें प्रवासाक व्हरून हाडप हें शिकयलें. तांच्या आदारान पांच-स कडेन हांवें लोकांक भोंवडावन हाडल्यांत.

त्याच अणभवाच्या आदारार आतांय हांव प्रवासाची आंखणी करतां. २००५ वर्सा साकून आमचो एक प्रवासमोग्यांचो ग्रूपच तयार जाला. आतां मात आमी पयसुल्ले प्रवास चडशे ट्रेव्हल एजन्सी बरोबर करतात. पूण धाकटे प्रवास मात आमीच सगळे पयलीं थारावन करतात.

पॅकेज टुरांत पयशे इल्ले चड वतात खरे पूण तकलेक कसलोच त्रास नास्तना वचून येवप जाता. हुस्क्या मेकळी, मजा घेत भोंवडी जाता. बऱ्या हॉटेलांत ते वेवस्था करतात. बरोबर घरगुती जेवण दितात. ताका लागून पोट इबाडप वा आनी कसलेय त्रास जायनात. पूण तांचीं बंदनां सांबाळचीं पडटात. ते सागतात त्या त्या वेळार हजर जावचें पडटा.

आनी आमचे आमीच गेल्यार शिस्तींत प्रवास जायना खरो पूण आमकां जाय तशें भोवंक मेळटा. मात खंय तरी बंधन, हुस्को चड जाता. मेकळेसाण मेळना.

कशेंय जांव प्रवास ही खोसदिणी गजाल. पयलीं तयारी करपाची उमेद, खंय वतलीं थंयचीं पुस्तकां हाडून वाचपाची उमेद. मागीर प्रत्यक्ष थंय वचप ही तर एक पर्वणी. मागीर त्यो यादी कितलोसोच तेंप तुमची फाट सोडना- प्रवासांत मेळिल्लीं तरेकरवार सभावाचीं मनशां, थंय घडिल्ल्यो मजेशीर घडणुको याद जावन तितलीच खोस दिता.

आमकां भोंवडेवर्णनां बरयतल्यांक तर आनीक दोन तरेन खोशी मेळटा.एक म्हळ्यार थंयचें वर्णन बरयतना भोंवडेंत घडिल्ल्यो गजाली, थंय पळयल्लीं थळां, ते वेळार घडिल्ले विनोद सगळें येवजून येवजून बरयतना तितलोच आनंद मेळटा. आनी मागीर तें वर्णन छापून येतकर लोकांचे आयिल्ले फोन दुपेटीन खोस दितात. हांव सदांच म्हज्या भोंवडेकार इश्ट-इश्टिणींक म्हणटां तुमी भोंवडी करून खोस मेळयली खरी पूण आमकां बोनसय मेळटा. मागीर लेख, कथा, कवितेंत ताचो उपेग करप ही तर पर्वणीच.

संपर्क: 09420685278

# एकंदर

सखाराम शेणवी बोरकार



पोन्यो यादी सोंपून सोंपनात. कितें सांगू आनी कितें नाका अशें जाता. तें सांगतना आयकुप्यांक वाज बी येवंचो ना मूं अशें सारकें दिसत रावता. पूण इंगव्ळ्यांचेर पापड दवरतगीर ताचेर उदेवपी बारीक मोठ्या फोडां भशेन नव्यो - नव्यो यादी भराभर उदेवंक लागतात. ही सांगूं की ती सांगूं अशें नागयल्ले भशेन जाता. पोन्याची याद इतले उमळशीकेन कित्याक जावंची? नवें तशें आतां घडना म्हणून? काय कदीम काळा पसून मनशाचो सभाव तसोच आसा म्हणून काय? कांयच कळना!

सुमार पंचवीस वर्सां उपरांत हांव म्हज्या गांवांतल्या दर्या देगेर - सेगीत पांच-स दीस, चार - चार वरां बसून आयलों. दर्या शांत आसलो. ल्हान-मोठ्या ल्हारांचो नाच मदले लयींत आनी चडट्या - देंवत्या सुरांत सेगीत चालू आसलो. मदींच व्हडलें ल्हार येतालें आनी पुरणीं वेले हजारांनी बारीक बुराक पुरोवन वतालें. बुराकांत उदक सरलें की भितर सुस्तावलेल्या णव पांयांच्या त्या धाकटुल्या कुल्ल्यांक जाग येताली आनी त्यो त्या बुराकांत उदका बराबर शिरिल्ली रेंव उस्तून भायर येताल्यो.

जिणेचे सुरवेक हांगा सारिल्ल्या सुस्तावलेल्या दिसांच्यो यादी अश्योच जाग्यो जावन वयर आयल्यो. म्हजे नदरे फुडलें चित्र पंचवीस वर्सां पयलींचें आसलें. तातूंत कांयच मुदार जावंक नासलें. मांडवीचो आनी अरबी समुद्राचो तो संगम; उजव्या हाताक वळिल्लो शिकेरी न्हंयचो व्हांवपी फांटो; दाव्या हाताक केगदी वेळ; दर्यादिगेर चंवऱ्यो हालयत उबे आशिल्ले ते हजारांनी माड- सगळें चित्र तशाचें तशें आसलें. ल्हारांची लय बदलूंक नासली. पुरणीचो रंगूय मुदार जावंक नासलो. मुदार जाल्लें थंयचें वातावरण. पयलींचो तो मनभुलोवणो कुलकुलाट वचून थंयचें वातावरण आतां उदास आनी सुन्न जाल्लें.

पयलींच्या लोकांक ह्याच दर्या देगेचो आदार आसलो आनी आतांच्याय लोकांक तो ना असो ना; पूण जसो-जसो काळ परतता तशीं-तशीं जिणेची मोख बदलता. नैतिकतायेच्या कल्पनां भितर जमीन आस्मानाचो फरक जाता.

पयलीं दर्या देगेर धंदो बरे तरेन चलतालो. अपहरण हें पातक मानताले. कांय पातमाऱ्यांतले लोक दुसऱ्या बंदराक पावोवपाचे वरव- गोठ्याचे दोन चार साक पातमारे वेल्यान हळूच देंवोवन विकपाक हाडटाले. आनी मूळ प्रेसाच्या धा पट कमी प्रेसान ते विकते घेवपाक आग्रो करताले. माल दुसऱ्याचो. मापांत कमी भरल्यार मोड जालें म्हण मोखून भायर माल्लें म्हणपाक मेकळे. त्या मालाचो पात्रांव कितें करतलो? नशिबाक दोश दित वोगी रावप हाचे पलतडीं ताच्या हातांत कितें आसलें? उरलां तें आपलें, हाचेरूच तो समाधान मानतालो.

पूण असो 'हपापाचो माल गपापा' करपाचे प्रकार आमचे दर्यादिगेर केन्नाच घडले नात. पातमाऱ्यां वेल्या खलाश्यांनी गरिबीचें नाटकी सवंग घेतलें तरीय असलो माल तांणीकेन्ना घेतलो ना. दुसऱ्याचें

*स. गोपाळकृष्ण भोबे हांणी गोंयच्या नुस्त्याचेर ''मासे आणि मी'' हें मराठींतल्यान सोबीत पुस्तक उजवाडायलां. १९६६ वर्सा उजवाडाक आयिल्लें हें पुस्तक आयज दुर्मिळ जालां. ह्या पुस्तकांतल्या ''एकंदर'' ह्या निमण्या लेखाचो हो अणकार.*

दुख्ख समजून 'ठेविले अनंते तैसेंची रहावें' अशी प्रत्येकाची भावना आसली.

अपहरण करपी अशें कितले दीस करूंक शकतात? सामके थोडे दीस! मागीर सैम तांकां धडो शिकयता. अली नांवाच्या एका तरणाट्या कच्छी खलाश्याचो दुसऱ्याचो माल दर्या देगेर मेळटा त्या प्रेसाक विकप हो ताचो सहज धंदो आसलो. थोड्याच तेंपा भितर तो आठ पातमाऱ्यांचो मालक जालां. उपरांत एका मोडांत ताच्यो आठूय पातमाऱ्यो दर्यान गिळ्ळ्यो. कांय दिसांनी ह्या मनश्याक खलाशी म्हण परत वावुरतना पळयलो. लोकांक वायट दिसलें. हो सगलो नशिबाचो खेळ आसा बाबा! अशें आपले भितर हे लोक पुटपुटूंक लागले. कितले लोकांचे स्राप बादल्यान आसतले ताका!

बरेचशे पातमारीवाले दर्या देगेर सोरो पिवपाक येताले. तातूंत सुरती माठांचो आंकडो सदांच पयलो आसतालो. सकाळीं धा वरांच्या सुमाराक ते तानेन खरशेल्ले भशेन वांकडी तिकडीं व्हलीं मारीत दर्या देगेर येताले आनी तिनसांज जाय सर पीत बसताले. मागीर तांचे भितर आपसांत झगडीं जातालीं आनी निमणें व्हलीं घेवन एकामेकांच्यो तकल्यो फोडून रक्तबंबाळ जावन ते पातमाऱ्यांचेर परतताले. फुडें तांचें कितें जातालें देवाक खबर.

कुवेतचे अरब मात राजा भशेन वागताले. तांचे भितर नाखव्याक राजा भशेन मान आसलो. ताचे मुखार खलाशी बसना आसले. ताणें निखटी टाळी मारपाची वेळ, सगळे खलाशी भराभर धांवत आयलेच. अरबांची एक पातमारी दर्या देगेर आसतना कुवेतची दुसरी पातमारी दर्या देगेर आयली की, आपल्या जातभावां खातीर ते एक सलामी दिताले. ती आयकतना आनी ताचे उपरांतच्यो तांच्यो हालचाली पळयतगीर अनवळखी मनीस मंत्रमुग्ध जातालो. खलाशांच्यो आपसांतल्यो केशी सारंग सोडयतालो. ताचे कडेन जायना जाल्यार मागीर त्यो नाखव्या कडेन येताल्यो. नाखव्याक परती जाप दिवप्याक नाच्च करताले. तो परत कांय कुवेताक पावनासलो. कितें तरी दुखणें बी जालें अशें ताच्या सोयऱ्यांक सांगलें जाल्यार कोण कितें करपाक शकतले आसले?

अशी ख्यास्त आशिल्ली म्हण एकेतरेचो धाक आशिल्लो. 'कालफाती' खातीर (पातमाऱ्यांचे बुराक कापूस भरून ताचेर ओंस भरशिल्ल्या चुन्याचो लेप लावन पुरोवप, हाका 'कालफाती' म्हण्टात एक 'दाब' (अरबांची व्हडली पातमारी) दर्यांत उबो आशिल्लो. एका खलाश्याक दुर्बुद्दी जाली आनी ताणें बाकीचे कामांत गुंतिल्ले आसतना तांचे पयशे चोरून पळ काडलो. सांजवेळां दीस पडटगीर ही गजाल हेरांच्या लक्षांत आयली. सगळे कडेन सोदासोद सुरू जाली. म्हज्या घरांतल्या वडील मनशांनी पुलिसींत केस केली आनी दुसऱ्या दिसा दनपार मेरेन त्या चोर अरबाक मडगांवां धरलो.

नाखव्याक पळयतगीर तो खलाशी गळसणले. एक उतर उलयनासता ओग्गी वचून मोटारींत बसलो. सांजवेळ मेरेन ताका घेवन नाखवो आनी आमची मंडळी आमचे दर्यादेगेर आयली. दाबा वेले सगळे खलाशी लायनींत उबे रावन ताका पळयताले. ताका दाबा कडेन हाडून उबो केलो आनी नाखवो पयस सरलो. आनी एखाद्रे घोणीन घुरी घालची तशी - 'याऽऽऽह' अशी किळची मारून सारंगान दाबाच्या जवळ जवळ पंदरा फूट उंच बाणी वेल्यान उडी मारून त्या खलाश्याची मानगूट धरली. ताका उबारून धब्ब करून आपटीलो. परतून एक दांडो मागोवन हाडून तो ताच्या तोंडाचेर आडवो धरलो आनी दोन धट्ट्या कट्ट्या खलाशाक आपोवन दोनय पोंतांचेर ताचो उजवो पांय दवरून पोळी लाटची तशी ते ताची तकली आडवी उबी लाटूंक लागले.

हरा हर! केद्या मोठ्यान त्यो किळच्यो आनी केद्यो त्यो हुयेली! 'न देखावे डोळां ऐसा हा आकांत' अशी म्हजी परिस्थिती जाली. ते उपरांत जाचे-जाचे पयशे ताणें चोरिल्ले तांणी एका फाटल्यान एक अशे येवन ताका गोरवांक बडयतात तसो बडयलो. ताचो मुड्डो एका खांब्याक बांदून प्रत्येक जण येवन ताच्या तोंडार येतां वतां थुकूंक लागलो. फुडें ताचें कितें जालें हें पळोवपाची आमच्यांत शक्ती नासली.

चोरयो, बेबदेपण, फटिंगपणां ह्यो गजाली कुवेतच्या अरब पातमाऱ्यां कडेन चुकून लेगीत सांपड नासल्यो. दिसांतल्यान तीन वेळां एके लायनींत उबे रावन सगळे नमाज म्हण्टाले, आनी ल्हान व्हडलो असो भेद मानिनासतना एकाच ताटांत जेवताले. फकत जेवणाच्या वेळारच नाखवो, सारंग, कोठयेवालो, खलाशी हांच्यांत पंगती भेद नासताले. म्हाका माप दिवपाक पातमारेचेर सदांच वच्चें पडटालें. दर खेपे परत येतना खाजूराच्या पानांनी विणिल्ली एक सुंदर पोती भरून उत्तम जातीचो खाजूर भेट म्हण सदांच मेळटालो.

अश्या ह्या अरबांची दुसरें म्हायुद्ध सुरू जालें आनी मत भ्रश्ट जाली. लांकूड, बांबू आनी नळे हांच्या वेपारा परस धा कील भांगर हाडून ब्लॅकान विकलें की, तांकां विसपटीन फायदो मेळपाक लागलो. नाक्यार चोरयो जावपाक लागल्यो. येऱ्याचेर आनी अल्लाचेर भिस्त दवरून चलतल्या दाबांक आतां आपसूंक चलपी इंजिनां लागलीं. वर्साक एकूच वियाज जाताली ती आतां चार पांच फावटी जावंक लागली. आनी नाखवे ते खलाशी उक्तेपणान चोरयो करपाक लागले. लांकूड, बांबू हो वेपार फकत नांवाक करपाक लागले. पयलीं चडांतचड म्हळ्यार पंदरा वीस दाब दर्या देगेर येताले; पूण कसलीच गरज नासतना अरबांच्यो शंभर देडशें पातमाऱ्यो दर्या देगेर आलाशिऱ्याक आयिल्ल्यो दिसपाक लागल्यो. तांचीं सुतां कशीं आनी खंय -खंय बांदिल्लीं देवाक खबर. एक मात खरें तीं सामान्य वेपाऱ्यां कडेन नासलीं, सरकारी यंत्रणेंतले व्हडले-व्हडले अधिकारी तातूंत घुस्पल्ले.

काळ फिरलो. परत तिवूय परिस्थिती बदल्ली. आयज वखदाक लेगीत अरबांची पातमारी वर्साक एकदां लेगीत दर्या देगेर आयिल्ली दिश्टी पडना. सकाळ सांजवेळ लायनीन उबे रावन 'अल्ला हो अकबर अल्ला' अशी आर्त आवाजांत दिल्ली बांग आतां आयकूंक येना.

दर्या देगे वेलीं मनशां लेगीत काळ बदल्लो तशीं चळ्ळीं. हीच दर्यादेग, नाके चोरयो करपी वेपाराचें केंद्र जाले. दर्या भ्रश्ट जालो. दर्यान तो इतिहास पळयला.

कांय पिढीजात घरंदाज गावप्यांनी बदलत्या युगा बराबर आपल्या

भुरग्यांक इंग्लीश शिकोवन व्हडले केले आनी आपल्या संप्रदायेची जशी इतिश्री केली तीच परिस्थिती हांगाय जाली. पिढीजात रांपणकारांचीं भुरगीं रांपणीचो आदार घेवन रावली नात. आनीक कांय वर्सांनी हो विशयूय काळभायरो जातलो.

पयलींची जीण सैमाच्या कोल्लाचेर आदारून आसली. ते कमी सुखी आसले. पूण समाधानी आसले. नव्या मनशान सैमाचेर जैत मेळोवपाचो यत्न चालू केला. नुस्तेमारीकूय दर्याचें कोल्ल सांबाळून वागचें पडटालें. आदीं खारव्याच्या घरांत रांपण, कांटाळी, खुटावणी, शेंडी, पागेल, व्हडीं, व्हलीं, गाबडी, अशी गांवठी उतरांची भास आयकूंक येताली. आता यंत्रीक सामुग्रेच्या आदाराचें गुपीत, तंत्रशुद्द नुस्तेमारी, नुस्तेमारीचो 'येवजणबद्द विकास', 'नुस्तेमारी सहकारी सोसायटी', असली पाठ्यपुस्तकां दिसपाक लागल्यांत.

पूण धतरीर जशें धान्य रोवपाक मेळ्ळें तशें दर्यांत नुस्तें रोवपाक मेळत काय? दर्याची कृपा जाली तर बरें आसा; पूण मनांत हाडलें तर तो कसल्याचीय सुलूस लागूंक दिवचो ना. मनशाक ताचेर जैत मेळोवंक येत काय? एका देड शाण्यान म्हजे म्हऱ्यांत बशिल्ले कडेन हे विचार उक्तायले.

आगा, मनीस आयज चंद्राचेर, मंगळाचेर जैत मेळोवंक भायर सरला तो दर्याचेर जैत मेळयले शिवाय रावत काय? ताका अशें सांगन दिशिल्लें पूण उतरां भायर सरलीं नात.

आनी कोणें तरी सांगलें की फाटलीं पांच वर्सां वखदाक लेगीत तिसऱ्यो पड्ल्यो नात. कोण म्हणपाक लागले - गांवांत घाडी भगत खूब जाले आनी तांणी एक वर्स उफाराच्या उत्सवाक नाका जाल्लें देवस्पण केलें; ताचे खातीर तिसऱ्यो नाच्च जाल्यो. मातशें शिकिल्लो मनीस म्हणूंक लागलो. मीन करपाक येवपी बार्जीनी भरपूर येरादारी केली आनी तांच्या इंजिनांतल्यान जें तेल झिरपूंक लागलें ताका लागून तिसऱ्यांचे बारीक जीव मरून गेले. कोणें अशें तर कोणें तशें सांगलें; पूण तिसऱ्यो नांवाचें उभ्या गांवांक पोसपी सैमीक पीक गांवचे दर्या देगे वेल्यान सामकें नाच्च जालें ही गजाल सामकी खरी. तें केन्ना परत येतलें तो बरो दीस. तिसऱ्यो गेल्यो पूण 'तिसरी खांवची शिकेरीची' ही म्हण मात उरली. 'काप गेलें आनी बुराक उरलो', 'शिगमो सरलो, फकत कवनां उरलीं.'

नवे सुदारणेन घडये चड भरभराटूय जायत. यंत्रां वापरून नुस्तेंमारीचो विकासूय जायत. नुस्तेंमारी तंत्रशुद्द जातली हातूंत दुबाव ना. पूण दर्याक देव मानपी, ताची पुजा करपी, ताच्या कोल्लाची कदर करपी, ताचे कडेन जुळोवन घेवपी, ताचेर मना थावन मोग करपी पयलींचे लोक मात आतां मेळपाक नात.

फाटलीं कितलींशींच वर्सां हांव चिराबाजारांतलें नुस्तें खातां. ट्रॉलरान हाडिल्लें हें नुस्तें. सरंगे, हलवे असलें केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें नुस्तें हांवें मुंबय पयलेच फावट खालें. धवे सरंगे (पापलेट), काळे सरंगे (हलवे) दाढे, घोळ, बोंबील, व्हडल्यो लेपो, तीन चार फूट लांबायेच्यो टोंकयो हें व्हडलें नुस्तें समुद्रांत खोल उदकांत रावपी. ट्रॉलरां वरवीं तें हाडटात; पूण असलें व्हडलें नुस्तें हांवें आमचे दर्या देगेर केन्नाच पळोवंक ना. सरंग्या बदला सुरंगट्यो पळयल्यो आनी घोळा बदला व्हडल्यांत व्हडलो दोडयारो पळयलो; पूण ताजे बोंबील केन्नाच नदरेक दिश्टी पडले नात.

दमण सावन आयिल्ल्यांनी सुक्या बोंबीलाची दिल्ली सागवाद पळयली. पूण आर्विल्ल्या सोयीं खातीर थारावीक मोसमाक मेळपी नुस्तें हांगा वर्सय भर मेळटा. जामनगरच्यो म्हयन्यान म्हयने झेलांत दवरिल्ल्यो मुड्डश्यो, शेतकां, काळुंदरां, करकरे, शेंवटे, सालपे हांगा ताजे म्हण विकतात.

चिराबाजारांत हांवें जायती मजा पळयली. झेलांतलें कांय नुस्तें बरें आनी कांय नुस्तें वायटूय आसता. झेलान घट्ट जाल्लें जामनगरी मुड्डश्यांचें तोंड खात्री करपाक उघडून पळयलें तर - ''आजून जीव वचूंक ना तांचो अशें वीज कडकडची तशीं उतरां आयकतकच हात आपसूंक फाटल्यान येतात. ताज्या नुस्त्याचें रगत काडून पोंवशेल्ल्या नुस्त्याचेर शिंपडायतात तें चित्र तर सदांच दिसता. त्या कापून दवरिल्ल्या झेलांतल्या नुस्त्याक जर मात्शें दामून पळयलें तर - ''आरे वच - वच, व्हडलो आयला नुस्तें पारखुपी! बर्फी ती! आयज खा आनी फाल्यां पयशे दी!'' अशीं विश्वासाचीं उतरां आयकतगीर ती बर्फी आसा हें कोणाक फट दिसतलें?

सुरवेक म्हाका दिसतालें की खारवी नुस्तें पागून हाडटात आनी तांच्यो बायलो आपल्या न्हवऱ्यान पागून हाडिल्लें तें नुस्तें बाजारात विकतात; पूण म्हजें तें चिंतप चुकीचें थारलें. पयलीं घडये ती परिस्थिती आशिल्ली, आसतूय बी; पूण आयज नुस्तें विकपी बायलांचे न्हवरे ऑफीसांत कारकुनी करतात तें आयकून हांव अजापीत जालों. एकाद्रो दुसरो आडवाद आसतूय बी.

बाजारांतल्या ना जाल्यार कुलाब्यांतल्या झेला घरांतल्यान नुस्त्याचीं पांटीं विकतीं हाडून आनी नुस्तेकारां सारको भेस करून नुस्तें विकपी दादले खूब आसात. जशें काय दर्यांतल्यान आतांच पागून नुस्तें हाडलां अश्या नेटान ते पांट्या कडेन विकपाक बसतात. आनी कित्या कितेंय मोल सांगून तें खपयतातय बी.

वेळे वेळें ताजें नुस्तें मात हांगा तीन चार बायलां कडेन - चडशें सदांच मेळटा. तातूंत ढोमे, सुंगटां, वेल्ल्यो, खांपी, मानयाळीं, बारीक मुड्डोश्यो, दर्यांतल्यो कुल्ल्यो, बारीक शेतकां, सुरंगट्यो, सालपे असलें मिस्तुराद नुस्तें आसता. व्हडलें नुस्तें केन्नाय आसता. हें नुस्तें

(पान २४ चेर)

# कथा



# वळण

**सुषमा तिळवे**

जुस्त जेवपाक बसूंक दाराची बेल वाजली. उश्ट्याचो हात घेवनच उठलें चड करून पोस्टमन आसतलो. हेरशीं तो दाराक लावन वता. एक रजिस्टर पार्सल आशिल्लें देखून सय घेवंक जाय म्हणून ताणें बेल मारिल्ली. दार उगडून हांव बेगीन बेगीन हात धुवन आयलें. 'मॅडम, मात्शें चेक करून घेयात, पत्तो अर्दकुटो बरयला. तुमचें नांव पळोवन घेवन आयलां.' पार्सल मानसीच्या नांवान आशिल्लें, केअर ऑफ पत्तो आमच्या नांवां सयत घातिल्लो. धाडिल्लें पंजाबच्यान. कोमलजीत सिंग हाणें धुवेली कोण तरी नवी इश्टीण आसतली. तागेली, फ्रेंडशीप म्हळ्यार एक अजापशें! कशीं ताका मनशां वश जातात खबर ना. हें नांव संवकळीचें नाशिल्लें. पोस्टमनाक मात्सो राव अशें सांगून मानसीक फोन लायलो, 'आगो, तुज्या नांवान एक रजिस्टर्ड पार्सल आयलां. पंजाबच्यान-कोमलजीत सिंग म्हणून कोणें तरी धाडलां. हें आनी नवें फ्रेंड खंयचें गो? पंजाबाक कशें पावलें गो तूं? 'आगे, अशी किदें गे तूं? तें खूब वर्सां पयलीं शेजारच्या बिल्डिंगेंत रावूंक आयिल्लें तें कोमल दिदी गे तें. घे तें पार्सल आनी मागीर कळय म्हाका किदें धाडलां तें.' बरें घेतां आनी जेवतकर उगडून पळोवन सांगतां. तूं जेवलें मगो?'

सगळ्यो राटावळी करून येता म्हण सर घोवाचें जेवन जाल्लें.

'किदें गो? किदें आयलां अशें? आनी मानसीक कित्याक फोन केल्लो?'

'एक रजिस्टर्ड पार्सल मानसीच्या नांवान आयलां. पत्ता अर्दकुटो म्हणून धाडटल्याचें नांव सांगून ताचे कडेन फोनार कन्फर्म केलें. धा वर्सां फाटीं कुशिचे बिल्डिंगेंत रावूंक आयिल्ल्या कोमलजीताचें खंय तें. हांव तर त्या कोमलाक साप्प विसरून गेल्लें. जेवतकर उगडटां आनी मानसीक सांगता कितें धाडलां तें!

'हय मगो, तांकां हांगाच्यान गेल्यार बरींच वर्सां जालीं मगो. फकत वर्स भर उरल्यां आसतलीं तीं हांगा.'

'हय, पूण तुका खबर आसा न्ही तुगेल्या धुवेची इश्टागत कशी दाट्ट आसता ती. भुरगेपणा सावन खंय वता थंय इश्टागत जोडून येता. तागेल्या ह्या सभावाक लागून जग भर तागेलीं फ्रेंडां मेळटलीं. बेंगलोर कोर्स करपाक वचपाचें थारलें. आमकां कांयच धांवपळ करची पडली ना. थंय आशिल्ले इश्टीणीन सगळी सोय पळयली. पुण्याक ट्रेनिंगाक वच्चें पडलें, थंय तेंच. आमकांय कितलेशेच पावटीं तांची मजत जाता. पयरूच 'पासपोर्ट करपा वेळार ताणें फ्रेंडाक फोन केलो आनी कांय न्ही करून काम जालें.'

'पुरो पुरो धुवेची तोखणाय. हेरशीं तूं ह्या सभावाक लागून तापयतालें मगो ताका.'

'आसूं, आसूं. आतां आनी तें फाटलें रामायण-महाभारत काडूं नाका. चली भुरग्यान अनवळखी मनशा कडेन चड मेतेर जांवचें न्ही म्हणून तापयतालें हांव. कोण कसो आसत सांगून येना. आतां सुद्दा ताका हांव अशेंच सांगतां. मनशां पारखुपा इतली मेच्युरिटी ताका खंय आसा? केन्ना त्रासांत पडत म्हणून भंय दिसता. रोकडेंच पातळपाची संवंय ताका.'

जालें मगो तूं परत सुरू. आतां तें हांगा ना तरी ताका दिवपाचें लेक्चर तूं म्हाका दिता मगो? जेवन घे पयलीं. जेवण थंड जालें पळय.

'जेवतां. तुवेंच तोंड उगडपाक लायलें म्हाका. पळयत तेन्ना धुवेची सायड घेता. बरें-वायट तोंडार सांगपाक जाय. फाटल्यान एक, फुडल्यान एक अशें म्हाका जमना.'

'हांव भायरूच वचून बसतां. तें केळें दी तोंडांत उडोंवक. मात्शे तोंड बंद कर आनी जेवन घे.'

'बरें, बरें. तोंड उगडीनासतना कशें जेवं तें दाखय आनी चल'. सरीतान हांसत हांसत म्हळें आनी वाद वाडोवंक नाका म्हणून जेवंक बसलें. जेवतां जेवतां ताका फाटली याद जाली...

सकाळचो वेळ म्हळ्यार सामके गडबडीचो वेळ. भुरगीं वेवस्थीत ब्रेकफास्ट घेवन इश्कोलाक गेलीं काय तें रोकडेंच रांदपाचे तयारेक लागतालें. थंड जेवण आवडना म्हणून तागेलो घोव डबो व्हर नाशिल्लो. कँटीनांत गरमशें शीत-हुमण जेवताला. रातचें मात घरांत साग्रसंगीत जेवण लागतालें. णव मेरेन रांदप सोंपोवन, डबो घेवन साडे-णवांक तें बँकेंत वचपाक भायर सरतालें. घड्याळ्याच्या कांट्याक पळयत पळयत कामां आवरून घेतालें. हेवेळार कोणें बेल मारली, जांव कोणाचो फोन आयलो जाल्यार ताच्या कपलाक आठयो पडटाल्यो. जनेला कडेन उबें रावून मिक्सर लायतना ताची नदर कुशीचे बिल्डिंगेचेर पडली. मेंडीसाल्या फ्लॅटाचें - किचनाचें जनेल ताका उक्तें दिसलें. कोण तरी नवीं मनशां रावूंक आयलीं दिसता?

फाटल्याच म्हयन्यांनी ती कोल्हापूरची फामील फ्लॅट सोडून गेल्यात. तांणी दुसरे कडेन खंय तरी नवो फ्लॅट घेवन तीं शीफ्ट जाल्लीं. सदाचे भशेन मागीर जातली वळख अशें चितून सरीता आपल्या कामाक लागलें.

सांजेवेळा आयले बराबर मानसीन बातमी दिली - 'मम्मा, त्या फ्लॅटांत एक दिदी, ताचो घोव आनी त्या दिदीली आवय आयल्या रावूंक.'

'हय? आजूच सकाळीं हांवें किचनाचें जनेल उकतें पळयल्लें. तुका रोकडीच सगळी बातमी लागली मगो तर.'

हांव सांजेवेळा सिया कडेन गेल्लें म्हजो नोटबुक हाडूंक. तेन्ना तांगेलें दार उकतें आशिल्लें. दिदी आनी तागेली मम्मी सामान दाळटालीं. सियां दार उगडटा मेरेन हांव थंय भायर उबें आशिल्लें. हांव ताका पळोवन हांसलें. मागीर तिणें म्हाका विचारलें, 'बेटा, क्या आप यहाँ रहती हो? नाम क्या है आपका?' हांवें मागीर सगळें सांगलें. ''आमच्या किचनांतल्यान तांचें किचन सारकें दिसता हेंवूंय सांगलें.'

सरीतान मनांत म्हळें - आमगेलें हें वर्तमानपत्र बरें आसा. सगळ्यो खबरो म्हाका घरा बशिल्ले कडेन समजतात. बेठेंच परवलें ''- तुवें सियाक बूक घरा हाडून दी म्हणून किद्याक सांगलो ना? तूं किद्याक गेलें हाडपाक?''

''आगे, ताका जोर येतालो म्हणून दोन दीस तें स्कुलांत येवंक नाशिल्लें आनी तें हाडून दितलें म्हणून वाट पळयत रावल्यार म्हजो होमवर्क उरतलो आशिल्लो.''

''बरें, बरें. ना तरी तुकां हेडपाक निमतां जायच आसतात.''

''बरी आसा मगे तूं? तूंच सांगता मगे - दुसऱ्याक मजत करपाक जाय म्हणून!''

''बरें, बरें गुड गर्ल! परिक्षेचो टायम टेबल आयलो?''

''ना दिवंक आजून. परिक्षेक वेळ आसा. हांव आतां खेळूंक वतां सियागेर. पियु येदोळ गेलो खेळपाक. म्हाका सदांच तूं ये सर रावचें पडटा.'' मानसी पिरगलें.

सिया कडेन खेळूंक गेल्ले कडेन नवे दिदी कडेन इश्टागत जोडून आयलें.

ताचें नांव कोमलजीत. दोनूच म्हयन्या पयलीं तांचें लग्न जाल्लें. बरी संद मेळटा म्हणून ताच्या घोवान गोंयांत 'इमर्क' कंपनींत जॉईन जावपाचें थारायलें. तें आजून तागेल्या घोवाल्या नव्या घरांत घोळूंक पावूंक नाशिल्लें. आनी आतां रोकडेंच ताका परक्या सुवातेर स्वतंत्र बिराड करून रावचें पडिल्लें. भुरगो आनी फामील बरी म्हूण बीएची परिक्षा सोंपतां सोंपतांच लग्न थरिल्लें. आनी आतां घोवावांगडा पंजाबच्यान इतले पयस गोंयांत येवचें पडलें. हया अश्या घडामोडींनी तें सामकें काचाबूल जावन गेल्लें. तागेली मांय शिर्वीस करताली. देखून तें आपणाल्या आवयक सांगाताक घेवन आयिल्लें. खंय पंजाब आनी खंय गोंय! केन्नाच गांवची शीम हुंपू नाशिल्ली. घोवाचो गांव चड पयस नाशिल्लो. पूण आतां तें सामकें पयस पाविल्लें. येवपा-वचपाक दोन दोन दीस लागपाचे सुवातेर! आवयक धुवेचो सामको हुस्को जाल्लो. शिकतालें देखून घरांतल्या कसल्याच कामाची संवकळ नाशिल्ली. आनी आतां हांगा नवो संवसार उबो करपाची, सांबाळपाची जबाबदारी आंगार आयिल्ली. तागेलो घोव सुरजीत सकाळीं आठ वरांचेर भायर सरून वतालो. सांजेवेळा परतुपाचो मात नेम नाशिल्लो.

कोमलाली आवय वांगडा येतना पंदरा दिसांच्या पुरुमेताचें सामान घेवन आयिल्ली. भाजीपालो, दूद आनी हेर सामान जायच पडटलें आशिल्लें. तें सगळें खंय मेळटा तें दाखोवपाचें काम मानसीनूच केल्लें. कोमलाचे आवयक आपणाल्या घराच्या लोकांचो हुस्को जातालो. थंय शाळेंत वचपी दोन धाकले पूत आशिल्ले. घरांत आनी बायल मनीस कोणूच ना. धुवे बराबर अशें परकी गांवांत अकस्मात येवचें पडिल्लें. खरें म्हळ्यार तांच्या हातूंत धुवे जावयांगेर येवन रावपाची पद्दत ना. पूण वेळूच तसो आशिल्लो. थंय गांवांत घोवाली आनी भुरग्यांली सोय पळोवपा खातीर तिणें आपणाले भयणीक हाड्न दवरिल्ली. तिकाय परतून घरा वचपाची ताकतीक आशिल्ली. तकलेर अशे तरेचें चेंपण घेवन कोमल हांगा आयिल्लें. मानसीन रोकडेंच ताका कोमलदीदी म्हणून लागी केलें. ना तरी मानसी आपणाल्या बडबड्या सभावान परकी मनशांक लेगीत लागीं हाडपी. दोन दिसांनी तें कोमलाक आनी ताचे आवयक घरा घेवन आयलें.

'कोमलदीदी, मेरी मम्मी से मिलो. वो बँक में काम करती है.'

'मम्मी, हें कोमलदीदी आनी ही ताची अम्मी.'

फाटल्या दोन दिसां भितर मानसी कडल्यान कोमलाची हिस्ट्री-ज्योग्राफी सगळी कळिल्ली. कोमल नाजूकशें, लांब केंसांचें, रुपान गोरें-धवें आनी सोबीत दिसतालें. ताका पळोवन म्हाका म्हजे भयणीले चलयेची याद जाली. ताच्याच वयाचें आनी ताचे सारकेंच दिसतालें. तें आतां अमेरिकेक पाविल्लें.

'मानसी, कोमल खूबशें सोनम दीदी सारकें दिसता न्हीं गो?'

'हय गे. मेरी ना एक मौसेरी बहन है। वो थोडी बहुत तेरे जैसे दिखती है। नहीं नहीं, तू उसके जैसे दिखती है।

सगळ्यांकूच हांसूक आयलें. हांवें मनांत म्हळें - आतां आमची हिन्दी बरी सुदारतली. थोडो वेळ बसून च्या-पानी घेवन मागीर तीं गेली. वतना अम्मीन म्हळें, 'आपकी बेटी बडी सयानी है। अब आपसे मिलकर मेरी चिंता ही मिट गयी। आप जैसे अच्छे पडोसी हैं। यहाँ के लोग भी बहुत अच्छे हैं। मैं अभी चैन से वापस जा पाऊँगी। मेरी बेटी का खयाल रखना मानसी की बडी बहन समझके।

'आप चिंता मत करना। मानसीने उसे दीदी कबका बना दिया है। हांवें तिका तोंड भरून आश्वासन दिलें. अम्मी पंदरा दिसांनी परत गेली. कोमल आवयक वेंगावन हुंडक्या-हुंडक्यांनी रडटालें. सुरजीत आनी कोमल तिका मडगांव रेल्वे स्टेशनार सोडपाक गेल्लीं. वतना मानसीक वांगडा घेवन गेलीं. येतना भायर हॉटेलांत जेवनूच आयलीं.

कोमलालो सकाळचो वेळ घरांतलीं कामां करून पासार जातालो. सांजवेळा आमगेर येवन बस अशें हांवें ताका सांगलें. तें मानसीक अभ्यासाक मजत करतालें. ताका इंग्लीश लीटरेचराची खूब आवड आशिल्ली. हांवें ताका म्हजें लायब्ररीचें कार्ड दिवन पुस्तकां हाडून वाच म्हणून सांगलें. मानसीचो अभ्यास

सोंपतकच ती दोगांय गरज पडटा तशीं मार्केटांत, लायब्रेरींत वचून येतालीं. हळू हळू कोमलान सगळें शिकून घेतलें. तागेली सासूमाय खूब मायेस्त आशिल्ली. तांकां दोगांकूय चड तेंप एकमेकालो सहवास मेळूंक नाशिल्लो तरी लेगीत इतले पयस वचून एकट्यांनीच आपणाल्या पुताचो संवसार सांबाळटा म्हणू ती ताची खूब तोखणाय करताली. कोमला कडल्यान मानसी विशीं, म्हजे विशीं तिका कळिल्लें. कोमलाक तिगेलो फोन येतालो तेन्ना मानसी तिचे कडेनूय बरें खबरो मारतालें. 'बेटा, तू कोमलदीदी की इतनी अच्छी दोस्त बनी हो ना, छुट्टीयो में दिदी के साथ हमारे गाँव आना। बेटा, एक दिन तुम्हारी मम्मी से भी बात कराना।

जालें! आमगेलें हतहुतें लागलें फाटीक - तिचे कडेन उलय म्हणून. मागीर एक दीस कोमलान फोन लावन दिलो. तिवूय एका प्रायव्हेट बँकेन कामाक वताली. देखून थोड्यो कामां विशीं आनी इल्ल्यो भुरग्यां विशीं आमच्यो खबऱ्यो रंगल्यो. एक दीस तिणें म्हाका सांगलें - अभी मेरी बहू ना आपकी बेटी बन गयी है। मेरा बेटा ना एकदम शांत सभाव का है। किसी के यहाँ जाने-आनेवाला नहीं है। बस अपने कामसे मतलब रखता है। बिल्कुल अपने पापा पे गया है। कितनी बार बोला मैनें उसको - नयी जगह थोडा घूम-फिर के देखो। उस बच्ची को थोडा घुमाओ। वो बेचारी पराये मुल्क में अकेली बोअर होती होगी। पर मेरी सुनता ही नहीं है। बोलता है - काम ही इतना है, फुरसत ही नहीं मिलती। छुट्टी के दिन थोडा रेस्ट तो करने देता। नयी नयी शादी हुअी है। बीबी को कैसे खुश रखना है, मुझे बताना पडता है। कोमल तो बडी सयानी है। कुछ नही बोलती। बोलती है - वो हर चीज को ना कर देते हैं। मुझे जबरदस्ती उन्हें मनाना अच्छा नहीं लगता.''

कोमल खरेंच गुणी भुरगें. घोवा विशीं कांयच तक्रार नाशिल्ली ताची. हांवें ताका मुद्दामूच म्हळें, 'आगो, तो भिजूड, लजपी आसा खरें, पूण तूं कसलें तरी निमित्त करून भायर वचपाक फोर्स कर ताका. पिक्चराक बी वचून येयात मगो.

मम्मी, उनका सभाव ही है वो। घर में आके थोडा टीव्ही देखते हैं - वोभी न्यूज या डिस्कव्हरी चॅनल। मुझे बोलना पसंद है पर तो बहुत ही कम बोलते हैं। शिकायत भी क्या और किससे करूं? पिक्चरकी बात कही तो बोलते हैं - टीव्ही पे इतने सारे आते हैं। देख लेना। उनकी माँ तो हरसमय घुमने-फिरने की बात करती हैं। पर वो सुनते ही नहीं हैं। उनकी ऐसी कोई खिटपीट नहीं वही काफी है मेरे लिए। मुझे अपने आप जिने की अभी आदत पड रही है। समझ लेते हैं वो काफी है।

आमी खंय वचपाक भायर सरलीं काय मानसीचो कोमलाक खूब आग्रेव आसतालो. पूण घोवाक सोडून येवप ताका पटनाशिल्लें. आमगेल्या मानसीचें उलोवप कोणूय शरण येवपा सारकेंच! भैया भैया करून ताचे फाटीक लागून कोमला खातीर ताणें दोन-तीन पिक्चरां पळोवपाक ताका ओडून व्हेलोच. सुरजीताचो सभाव सामकोच भिडेस्त. पूण मानसी फुडें तागेलें कांय शाणपण चलनाशिल्लें. दोन तीन पावटीं सामकी जबरदस्ती करून ताका जेवपाक हाडलो. ताची भीड चेपणा तें पळोवन हांवेंच मानसीक मात्शे तापयलें - 'आगो, सगळे तुजे सारखे आसनात. तो पळय दर वेळा कसो लजेत लजेत जेवता तो. हाचे फुडें कितें करता तें ताका थंय व्हरूनच दी तूं.' जालें, मागीर घरांत शिजता ती वस्त दीदीक आनी भैयाक हक्कान पावपाक लागली. तिवूंय दोगां मानसीक सामको जीव घालतालीं. सुरजीत घरांत भीतर सरलो काय जनेलांतल्यान मानसीक उलो घालतालो. ताकाय हे धाकले भयणी बगर सुख लागनाशिल्लें. तोवूय मानसीक अभ्यासांत मजत करतालो. म्हाका सदांच दिसतालें - मानसीच्या ह्या हुतहुत्या सभावाक लागून तें खंय गेल्यार कशेंच उपाशी पडपाना. हांव ताका सदांच बारें गें, वाऱ्या आवय म्हणटालें.

एक दीस मागीर हांवेंच कोमलाक सुचयलें, 'तूं इतलें वाचता, तुका साहित्याची आवड आसा. तुका कितें बरोवपाक सुचता जाल्यार तूं बरोवन काड. तुजो वेळूय बरो वतलो. कोमल म्हज्या ह्या उतरांचेर हांसलें आनी वोगीच रावलें. म्हाका वाचपाची आवड. पूण हांव चडशें मराठी पुस्तकां वाचतालें. हळूहळू कोमल हाडटा तीं हिन्दी पुस्तकां वाचूंक लागलें. मागीर आमचे दोगांयलें त्या पुस्तकांचेर उलोवप जावंक लागलें. एक दीस कोमलान म्हजे कडेन डायरी हाडून दिली. 'मम्मी, आपने लिखने को बोला था ना। मैने

कुछ ट्राय किया है, आप पढके देखिये थोडा.'

अरे व्वा! कोमल, बहुत अच्छा। तू तो छुपीरुस्तम निकली. मै पढ लूंगी।

हांवें राती कडेन बसून कोमलाची डायरी वाचली. दोन भयणींचेर ताणें सुंदर कथा बरयल्ली. बरी जमून आयिल्ली कथा. भाशाय सुंदर आशिल्ली. कोमला भितर स्पार्क आसा म्हणपाचें म्हाका जाणवलें. दुसरे दिसा हांवें ताची तोखणाय केली. हय न्ही शे थोडे बदल सुचयले. तागेलें हें बरप उजवाडा आयलें जाल्यार ताची उमेद वाडटली आशिल्ली. पूण गोंयांत हिन्दी बरपाक वावूच नाशिल्लो. एक तर इंग्लीश जांव मराठी जांव कोंकणी. हांवें ताका तागेलें बरप फेअर (fair) करपाक लायलें. लायब्ररीतल्यान ताका हिन्दी मासीक हाडपाक लायलें. त्या मासिकाचो नामो घेवन हांवेंच तागेली कथा पोस्ट केली. तें इंग्लीश पुस्तकांय वाचतालें. इंग्लीश विशय घेवन ताणें बी.ए. केल्ली. हांवें ताका इंग्लीशींत बरोवपाक ट्राय कर म्हणून सांगलें. जी मम्मी, सोचती हूँ। ट्राय करूंगी.

कोमलाक हळूहळू गोंय आवडपाक लागिल्लें. जें किदें करता तें मन लावन करप हो ताचो सभाव. कोमल आयिल्ल्याक मानसी आनी पियुचो लेगीत अभ्यासाचो हुस्को हांवें सोडून दिल्लो. कोमल म्हाका मम्मी म्हणटालें आनी म्हाकाय एक व्हडली धूव मेळिल्ले वरी दिसपाक लागिल्लें. म्हजो घोव सदांच फकाणां करतालो - पळय, मानसीक लागून तुका फुकेसवाय धूव आनी जावंय मेळ्ळा. हांवूय मागीर जाप दितालें - 'हें अशें नशीबान मागून येवचें पडटा.' म्हगेल्या घोवालें घरा येवप सांजेच्या सातां उपरांत. चुकून केन्ना तरी ताची आनी कोमलाची भेट जाताली. पूण दीस-रात मानसीलें दीदी-भैय्या पुराण चलतालें आनी हांवूय तांचे विशीं केन्ना ताच्या कानार घालतालें. देखून कोमल आमच्या घरांतलें परमनंट मेम्बर जाल्लें. आयतारा सुटये दिसा तें येनाशिल्लें. सुरजीताक तो दोन फावटीं जेवपाक आयिल्ले कडेन मेळिल्लो तितकोच.

तीं दोगांय लग्न जावन रोकडींच गोंयांत आयिल्लीं. देखून सण-परबो, नव्या जावयाचो मान-पान हें कांयच जावंक पावूंक नाशिल्लें. तांगेल्या हातूंत दिवप-घेवप, मान-पान हाका खूब म्हत्व दितात. हाका लागून दोन कुटुंबां एकठांय जावंचीं सोडून रुसप-फुगप चड जाता. लग्ना वेळार जांव हेर सणा-परबां वेळार चलये वटेंतल्यान कितेंय कमी-जास्त जायत जाल्यार घरांत आनी भायरूय सोयऱ्यां कडल्यान थोमणे आयकूंचे पडटात. चलयेचें लग्न करताना बापूय पुराय शेणटा. आनी मागीर चल्याच्या लग्ना वेळार तो दोबरायेन वसूल करपाचें चिंतता. अशे तरेन ही मानसिकता कमी जावपाचे परस इल्ली चड वाडतूच वता.

पंजाबान संक्रांती कडेन व्हडलो उत्सव जाता. ताका ते लोहरी जाव माघी अशेंय म्हणटात. माघ म्हयन्यांतली परब म्हणून माघी. नाचप-गावप, खावप-पिवप, खूब मजा करतात. नवीन लग्न जावन आयिल्ले घरचे सुने खातीर हो म्हत्वाचो उत्सव. देखून एक आठ दिसां खातीर तरी सुटी काडून माघी मनोवपाक यो असो सुरजीताक आवयचो फोन आयलो. सुरजीत कोमलाक सोडून आठ दिसां भितर परत आयलो. कोमल मात गेल्लेकडेन म्हयनो भर रावून आयलें. तागेले आवयन आनी मांयन दिलां म्हणून आमचे खातीर खूब कितें घेवन आयिल्लें. मानसी खातीर तर तांच्यो थंयच्यो खाशेल्यो अशो कितल्योशोच वस्तू ताणें हाडिल्ल्यो. तागेलो धाकलो भाव ताचे वांगडा ताका गोंयांत पावोवपाक आयिल्लो. ताका गोंय भोंवून दाखोवपाक मानसीक वांगडा घेवन टॅक्सी करून तीं भोंविल्लीं.

कोमल गांवांक गेल्ले कडेन ताची कथा छापून आयिल्लें मासीक हांगा पावलें. मानसी ते मासीक आमगेर घरा घेवन आयलें. कथा छापून आयल्या ती पळोवन म्हज्या जिवाक बरें दिसलें. मानसीक मागीर कोमलदीदीक सांगले बगर थारोच जालो ना. हांवें कोमलाक फोन केलो. 'अभिनंदन कोमल! हमने तुम्हारी वो कथा हिन्दी मासिक को भेजी थी ना वो छप गयी है। उन्होंने तेरे लिए वह मासिक भेजा है। हांव तागेल्या मांय कडेन उलयलें.' कोमल की कथा हिन्दी मासिक में छपी है। बहुत ही अच्छा लिखती है आपकी बहू। आपके यहाँ के अखबार और मॅगझीन्स का पत्ता भेज दो। यहाँ गोवा में हिन्दी को स्कोप नहीं है। वो अंग्रेजीमें भी लिख रही है।' तागेल्या सासूमांयक सुनेची खूब तोखणायशी दिसली. मानसीक हांवें तें मासीक सुरजिताक दाखय म्हूण सांगलें.

कोमलाली उमेद आतां वाडिल्ली. तें आपणालें बरप सदांच पयलीं म्हाका हाडून दाखयतालें आनी मागीर धाडटालें. सुरजीतान लेगीत ताजी खूब तोखणाय केल्ली. कोमलालो आत्मविश्वास आतां वाडिल्लो. ताणें येतना थंयच्या दिसाळ्यांचे, मासिकांचे नामे हाडिल्ले. तागेलें हिन्दी बरप तें थंय धाडून दितालें. छापून आयली काय तागेली मांय ताका फोन करून सांगताली आनी कटींग काडून दवरताली. 'वुमन्सइरा' ह्या बायलांच्या दर्जेदार मासिकांतल्यान तागेली कथा छापून आयली तेन्ना कोमल अक्षरशः रडलें - ताका खूब खोस जाल्ली. तागेली लीटरेचरांतली रुची पळोवन हांवें ताका 'इग्नो'तल्यान हिन्दी जांव इंग्लीश विशय घेवन एम.ए. कर अशें सुचयलें. कोमलाक आता नव्यो दिको, नव्यो वाटो सांपडिल्ल्यो. ताणें रोखडोच फोर्म भरलो आनी नेटान अभ्यास करपाक लागलें. अशे तरेन खुशाल भरीत आसतनाच कोमलाक आपूण आवय जातलें हाची सुलूस लागली. हांव ताका दोतोरा कडेन घेवन गेलें आनी सारकें कन्फर्म केलें. कोमलाक बरोच खर दुवाळो लागिल्लो. ओंकाऱ्यांनी पोटांत कांयच उरना जावन सामकें जाम पडटालें. हांव म्हजे कडल्यान जाता ती मजत करतालेंच. हांगा परकी गांवांन निभाव लागचोना म्हूण ताणे कोमलाक गांवान व्हरपाचें थारायलें. ताका मानसीची आमची खूब माया लागिल्ली. घरा वतनां म्हाका वेंगावन खूब रडिल्लें. मानसी तर सामकेंच अपसेट जाल्लें. सुरजीत ताका पंजाबाक पावन आयलो.

कोमल गेले उपरान दोनूच म्हयन्यांनी सुरजीत हांगाची नोकरी सोडून गेलो. वच्चे पयलीं सांगपाक आयिल्लो. 'मम्मीजी, आपकी हमें बहुत मदद हुअी। मेरा तो काममें वक्त कटता था, फुरसत ही नहीं मिलती थी। पर कोमल के लिए यहाँ घुलमिल जाना मुश्कील था। आपके कारण, हमारी इस गुडिया मानसी के कारण वह यहाँ बहुत खुश थी।

*(पान २७ चेर)*

# मूड

कृ. ग. मुखठणकार



गोऱ्या सायबान आमचेर शेंकड्यांनी वर्सां राज्य केलें. आमच्या देशाक लुटलो आनी लुटपा सारकें कांय ना जातकच हो देश सोडून गेले. आमकां जरीय तांणी लुटले आसले तरीय ते आमचे खातीर वतना तांची शब्द संपदा (उतरावळ, तुमचे म्हायती खातीर) सोडून गेले. ती शब्द संपदा, ते, तांच्या देशांत वापरीनात तितले आमी आमच्या देशांत वापरतात. देखीक, सॉरी उतर जर ते हांगां सोडून वचूं नाशिल्ले जाल्यार आमचें कितें जातलें आशिल्लें हें चिंतुनूच म्हज्या आंगार कांटो येता (हरशीं सट्ट करून म्हज्यो आंगार कांटो येना). आदल्या काळांत देवान 'तथास्तू' म्हणटकच सगळें कशें जाग्यार पड्यलें तशें ह्या सॉरी उतरान केद्याय मोठ्या प्रस्नाचो सुटावो जाता. तुमी कळमेल्ली सुरी घेवन कोणायची मान कातरात आनी मान कातरतना 'सॉरी आं, सुरयेक धारूच काडपाक विसरलों' अशें म्हणा, तुमचें काम जालें. सॉरी हें उतर कितलेय फावटीं वापरुं येता. राजकारणी हें उतर दर पांच वर्सांनी वापरता आनी आमचें मत घेवन वता. हें सगळें सांगपाचें कारण म्हणजे गोरे सायब सोडून गेल्ले शब्द संपदेंतलें आनीक एक उतर, तें म्हणजे 'मूड'.

इतर भाशेंतलीं चड्शीं उतरां संस्कृत भाशेंतल्यान आयल्यांत अशें भाशातज्ञ (पांडुरंग रामराय सावंत, खालचा वाडा, तारी जवळ) म्हणटा. म्हणटकच 'मूड' हें उतरुय संस्कृतांतल्यान बी आयलां काय हाचेर हांवें अभ्यास केलो आनी 'मूड' हें उतर पोरणे इंग्लिशींतल्या 'mod' ह्या उतरा पासून तयार जालां हें उमगलें. आमच्या भाशातज्ञाच्या मतान (आतां कोण तो तुमकां कळ्ळां आसतलें) ह्या उतराचो संदर्भ रामायणांत एका प्रसंगांत मेळटा. तो प्रसंग तुमीय वाचला वा पळयला आसतलो. रामानंद सागराच्या रामायणांतूय तो आसा. ते भायर रामानंद सागराचें रामायण चड ऑथेण्टीक. तर, कैकयीक दशरथ वर माग म्हणटा तेन्ना कैकयीन, सध्या आपल्याक मूड ना मागीर केन्नाय मूड आसता तेन्ना मागीन, अशें म्हणलें. अशें आमच्या भाशातज्ञाचें मत. मागीर तिका मूड येतकच तिणें तो मागलो आनी अरुण गोविलाक (श्री राम फेम) वनवासाक धाडलो हें तुमकां खबरूच आसतलें. दानवूय देवांचो मूड पळोवनूच वर मागताले. हेंय आमच्या भाशातज्ञाचेंच म्हणणें. देवां भितर भोलानाथ (तांडव नृत्य फेम) सदांच सोमरस आनी गांजाच्या प्रभावा खाला आसल्या कारणान ताचो मूड सदांच बरो आसतालो. हाका लागून तपश्चर्या सोंपले उपरांत दानवांची कैलासार वर मागपा खातीर रांक लागताली. हातूंत तथ्य आसना अशें न्ही कारण दानवांक णव्यांणव पुज्य णव प्रतिशें वर भोलानाथानूच दिल्यात. विष्णूचो जीव दीस भर लक्ष्मी खाताली हाका लागून ताचो मूड ऑफूच आसतालो. हांव वैकुंठचेर वचूंक ना पूण पौराणीक सिनेमे पळोवन पळोवन म्हजें हें मत तयार जालां. सोड.

मूड म्हणजे मनस्थिती पुणून मनस्थिती आनी मूड ह्या उतरां भितर खूब फरक आसा हें आमी मतींत दवरपाक जाय. मनस्थिती सारकी नासत जाल्यार ती परत केन्ना जाग्यार येत सांगू नजऽ. मुडाचें तशें ना, तो आत्तां बरो आसल्यार आत्तां ऑफ जाता. हिचो मूड मागिलदाराच्यान सालांत येसर ऑफ जाता हाचो अणभव हांवें घेतला म्हणून हांव सांगतां. आनी अशें जावपाक पटपा सारकें कारण आसुंकूच जाय अशें ना.

"आगो, पद्मावत पळोवपाक या गो?" - हांव, मागिलदारां ओलीं सुकत घालीत

"या तर! परत ताचेर बंदी येत जाल्यार. पडूकोण घुमर घुमर करीत बरी नाचल्या खंय आनी ती घुमर घुमर करून नाचतना वयल्यान शाहीद कपूर पळयता खंय". - ही.

"अशें? जाल्यार पळोवचेंच पडलें तर. म्हणुनूच तुमकां सांगतां वयर टेर्रासाचेर महिला मंडळाच्या मेळाव्याक तुमी नाचूं नाकात म्हणून". - हांव, सुकिल्ले कपडे पुंजायत.

"जालें फायनल!" - ही.

(सुवात- आमचें साल. हांव सुकिल्ल्या कपड्यांच्यो घड्यो घालतां)

"आगो खंयच्या शोची काडुंया?" - हांव.

"कितें तें?" - ही (कपळाक आठ्यो घालून).

"तिकेटी, घुमर घुमर पळोवपाच्यो".

"आसूं म्हाका मुडूच ना".

"कितें जालें मूडाक आतां? घुमर घुमर पळोवपाचें तुवेंच थारायल्लें न्ही?"

"सवायशिणीन म्हणून अशें नाचप? तेंय बी त्या काळांत? मेकळीक म्हणून कितली घेवप! कल्पना शक्तीक म्हणून मर्यादा आसपाक जाय न्ही? मुडूच ऑफ जालो".

"अशें!!" - हांव, सुकिल्ल्या कपड्यांच्यो घड्यो आल्मारींत दवरीत.

'पडट्या फळाची आज्ञा घेवप' ही म्हण हाकाच लागून तयार जाल्या जांवये कारण कोणाचो मूड खंय, केन्ना, कित्याक लागून ऑफ जायत सांगू नजऽ. आमच्या एका सोयऱ्याच्या लग्ना कडेन अशीच एक घडणूक घडली. ही सोयरीक हांवें केल्ली म्हणून म्हाका ती याद उरल्या. लग्न लागचे पयलीं व्हकलेचो ताळो सुकलो. कसो, कित्याक तें म्हत्वाचें न्ही. कोणे तरी वचून तिका गॉल्डस्पॉट हाडून दिलें. व्हंकल स्ट्रॉ घालून, ओंठाक लायिल्ले लालीची कुयदाद घेत गोल्डस्पॉट पियेता थंय आसा कोणाचो तरी खांदो तिका फाटल्यान

लागलो आनी गोळ्डस्पॉट तिचे साड्येर रकलें. 'Oh no' अशी किळांच मूड ऑफ जांवचे आदीं सदांच आयकूंक येता चड करून बायलांचो मूड ऑफ जाता तेन्ना, हें दादल्यांनी नोट करचें. 'मम्मा म्हजो मुडूच ऑफ जालो, म्हाका लग्नाकूच उबें रावपाचें ना' व्हंकलेन जाहीर केलें तशें म्हाका कल्लऽ जालें कारण सोयरीक हांवे केल्ली. म्हाका म्हजी तकली थंयच (जमनीर) आपटीनशी दिसली. इतले मजगतीं ही बातमी वायरल जाली (तोंडान, तेन्ना सोशल मिडिया नाशिल्ली).

"फाल्यां लग्न जातकच तें रांदचेकुडींत वच्चें ना तर!"- व्हंकलेची मांय.

"वतलें, तुमकां दुबाव कित्याक आयलो?"- मध्यस्थ, म्हणजे हांव.

"वतलें म्हणटकच रांदचेकुडींत गेलें म्हणजे बायलांच्या आंगार कितें ना कितें पडत आसता. मागीर हाचो मूड मिण्टा मिण्टाक ऑफ जातलो".- मांय.

"तेंय खरें, आतां पळोवचें पडलें".- मध्यस्थ.

"कितें पळोवपाचें? मुडाचें काय रांदचेकुडींत वतलें काय ना तें?"- मांव.

"दोनूय".- मध्यस्थ.

"आमचे कडेन सोयरीक हाडचे पयलीं पळोवंक नाशिल्लें?"- मांव.

"ना, तेन्ना ताचेर गोळ्डस्पॉट रकूंक नाशिल्लें. आतां ज्यूस्त कोणाक खांदो मारपाची पिडा जाली तें पळयतां" - मध्यस्थ.

"आतां सुहाग राती वेळार, केशरयुक्त दूद हाडटना.. सपोऽज... दूद आंगार पडलें... जाल्यार ताचो मूड ऑफ जातलो?"- न्हवरो, काकुळटेन.

"तुमगेर वावराडी ना? तिका ग्लास दवरूंक सांगुया".- मध्यस्थ.

इतल्यान व्हंकलेचो मूड सारको जाल्ल्याची आकाशवाणी जाली. मामान तिका मोर (भांगराचो) घालता म्हणून ऑन द स्पॉट जाहीर केल्लें. तें आयकून हांव माटवांत मोर कसो (कांयच फुलय नासतना) नाचलों. सोड.

बायलो आनी दादले हांचे मूड ऑफ जावपाचीं कारणां वेगळीं. साड्येचेर थोडें गोळ्डस्पॉट रकलें म्हणून बायलांचो मूड ऑफ जाता तसो दादल्यांचो जांवचो ना. एका लग्नाक गेल्ले कडेन बुफेक उबो रावन हांवें प्लेट भरून घेतली. बसपाक सुवात सोदून बसतां थंय आसा, फाटल्यान धपको बसलो आनी अख्खी प्लेट म्हजे मांड्येर उमथी जाली. कोणाय बायलेचेर जाल्ली जाल्यार ती कितें करतली आशिल्ली म्हाका खबर ना. म्हजो मूड ऑफ बी कांय जालो ना. हांवें थंड तकलेन मांड्येचेर खंयचे जिनस उरल्यात तें पळयलें. मुगांगांठ्येंतल्यो बियो वेंचून खाल्यो, पुरयेक गांठी लावन तोंडांत उडयल्यो आनी वॉशरुमांत (वॉशरुमांत म्हणटकच झेत येता, हरशीं हांव मल्लांच्या माटवा फाटल्यान गेल्लों) वचून पॅण्ट धुली आनी परत बुफेचे रांकेंत रावन प्लेट भरून घेतली. दादलो आनी बायल ही एकाच निर्मात्याची निर्मिती जरीय आसलीं तरीय तांची कालेत वेगळी. 'आनंद' आनी 'खूबसुरत' हे दोनूय ऋषिकेश मुखर्जीचेच सिनेमे पूण तांची तुळा करुं नजऽ. आतां हांवें देख दिल्या खरी पूण ती तुमकां कितली पट्टा ती पळयात. तर, हाका लागून दादल्यांची आनी बायलांची मूड ऑफ जावपाचीं कारणां वेगळीं. आमी, नलूचें (म्हजी मेवणी) लग्न थारले उपरांत (थारपाक खूब कश्ट पडले) पुण्याक कपडे काडपाक गेल्लीं. हिचे एके साड्येक मॅचिंग ब्लाव्जपीस मेळना जालो. वट्ट पंचावन दुकानांचे हुमरे हुपल्या उपरांत छप्पनाव्या दुकानांत मॅचींग ब्लाव्जपीस सांपडलो. हांवें साडी आनी ब्लाव्जपीस लक्ष्मी रोडार वताक धरून मॅचींग आसा हाची खात्री केली आनी मागीर हिका कंठ फुटलो. "काका, पंचावन दुकाने पालथी घातली, तुमचे छप्पनावं. मॅचिंग ब्लाव्जपीसच भेटत नव्हता हो. आता लग्न कसं होणार ह्याची दुगदुग होती. माझा मुडच जवळ जवळ ऑफ झाला होता. साडे तीन हजाराची साडी हो, खायची गोष्ट आहे का भाऊ?" (काका आनी भाऊ हो एकूच मनीस, तुमचे म्हायती खातीर). सादो मॅचींग ब्लाव्जपीस मेळना जाल्यार लेगीत बायलांचो मूड ऑफ जाता हें वयले घडणुके वयल्यान तुमकां कळ्ळां आसतलें आनी तुमचे मदल्या खूब जाणांक हाचो अणभवूय आयला आसतलो. दादले मॅच जावनाशिल्ले अर्धांगिनी वांगडा तोंडांतल्यान ब्र काडी नासतना अख्खी जीण सारतात हाचे खातीर ते खरेच तोखणायेक पात्र थारतात. मॅचींग ब्लावजा खातीर धा धा किलोमीटर चलपी बायलांनी हाचेर खरेंच विचार करचो. इतलें चलून लेगीत तांचें वजन कशें देंवना हाचो म्हाका खेद जाता तो वेगळो.

हिचीच आनीक एक गजाल सांगतां म्हणटकच बायलांच्या मुडा बद्दल तुमच्या गिन्यानांत आनीक भर पडटली आनी हांव कितें भोगतां तेंय तुमकां कळटलें. ताका लागून तरी म्हाका सहानुभुती मेळ्ळ्यार मेळ्ळी. हिचे मावसभयणीच्या लग्नाक (सावर्शे, सत्तरी गोंय) हॉलांत भितर सरलीं आनी बसतात थंय आसात, एक बायल मनीस (चाळीशींत आसतली) सगळ्यांक माड्डीत, धांपेत आमचे म्हऱ्यांत आयली.

"आगो बाय, ही साडी तूं पंदरा मे दोन हजार सोळांत सुशिलाच्या लग्नाक, रामनाथी हॉलांत न्हेशिल्लें न्ही गो?"

"हय गो, बरीऽऽ याद उरली मुगो तुका! आल्मारींत साड्यो चड जाल्यात मुगो, हाताक मेळटा ती न्हेसतां. अश्योऽऽ हॅंगराक लायिल्ल्यो आसतात गो, हाताक ही मेळ्ळी ही न्हेसलें".- बाय.

बायचें तोंड पडलें तें हांवें पळयलें आनी म्हाका कल्लऽ जालें. लग्न अकरा वाजून दोन मिण्टांच्या शूभम्हूर्तार लागलें. लोक वयर वचून जोडप्याक हात दिवन बुफेचे रांकेंत उबे रांवक लागले.

"आगो आमी या मुगो, हात दिवन बुफेचे रांकेंत उबीं रावपाक?"- बायचो घोव.

"तुमी वचात हांव बसतां हांगा, म्हजो मुडूच गेलो".- बाय.

"हांगां बसपाक आयल्यांत आमी, रायबंदच्यान सावर्श्यां?"

"म्हजी साडी पंदरा मेक दोन हजार सोळांत न्हेशिल्ली".

''म्हजें खोमीस आनी कल्सांव दोन मेक दोन हजार तिनांत शशीकांताच्या चल्याचे मुंजी कडेन शिंविल्लीं. कोणाक याद पसून ना दिसता कारण तांचो कोर धवो जाला''.

''तुमी दादले''.

''हातूंत म्हजो गुन्यांव?''

''तुमकां कोण पळयना. म्हजो मुडूच गेलो!''

''बरें, हांव वचून मेळटां जोडप्याक. तुजो मूड, येता जाल्यार पळय तोसर''. अशें म्हणून हांव वयर जोडप्याक मेळून आयलों. सद्या हिचे दोनूय पांय मुयेल्यात, ते सारके जातकच आपल्या पांयांनी येवन मेळटली अशें जोडप्याक सांगून लग्नाचो लाडू घेतलो आनी बुफेचे रांकेंत उबो रावलों. असले गजालींचो दादल्यांक भयंकर त्रास जाता. दर खेपे दोनूय पांयांक मुंयो आयल्यात हें सांगपाक शक्य जायना.

चडशीं लग्नां, मुंजी मे म्हयन्यांत आसतात. ज्यूस्त मे म्हयन्यांतूच हिचीं नेरवां चाळवतात. नेरवांचो तकले कडेन संबंद आशिल्ल्यान हिचो मूड हिच्या हातांत नासता. हें गणीत तुमकां कळचें ना, तें कळपाक नेरवांचो आशिल्लो मनीस म्हऱ्यांत जाय पड्टा. तर, हिचो मूड पळोवन सगळें थारावचें पड्टा. 'पळोवया कशें जमता तें. खोबरें, सोलां, आमटाण, खारें बी जाग्यार घालचें आसा. दोगांकूय जमल्यार दोगांय येतात नाजाल्यार हांव तरी येतलोंच' अशें होंवळीक दिवंक आयिल्ल्या दर एकल्याक हांव सांगतांच. पोरूं हांवें मे पांच ते एकतीस मे मेरेन, हिका अड्चण आयिल्ल्यान येवंक मेळ्ळेंना, अशें हांवें हजेरी लायिल्ल्या लग्नांक, मुजींक सांगलें. सोयरीं जरीय कॉमन आसलीं तरीय हिका येदी व्हडली अड्चण कशी आयली, अशें म्हाका कोणेंच विचारलें ना. आज प्रत्येका सामकार इतल्यो अड्चणी आसतात की हांवें हिका वर्स भर अड्चण आसा म्हणून सांगीत राविल्लों जाल्यार पसून हें कोणाच्याच लक्षांत येवचें नाशिल्लें. सोड.

दादल्यांचो मूड इतल्या साध्या कारणांक लागून ऑफ जायना. आनी कांय तश्याच कारणांक लागून ऑफ जाल्यार लेगीत तो ऑन जावपाक ताका टायम लागना. रेड्वो ऑन ऑफ करतात तितलेच सहजतायेन तो ऑन ऑफ जाता. आँधी सिनेम्यांत एक पद आसा, 'तुम आ गये हो नूर आ गया है'. गुल्जार सायबाक हे वळीचो अर्थ कितें अभिप्रेत आशिल्लो तें म्हाका खबर ना पूण हांवें मात हाचो अर्थ... दादलो म्हणटा आगो तूं आयलें मुगो आता म्हाका मूड आयलो नाजाल्यार हांव सामको बोर जाल्लों, असो लायला. दादल्या मनशाक बरो सांगात नासत जाल्यार तो रोखडोच बोर जाता असो म्हजो अभ्यास सांगता. हो अणभव तुमकां (दादल्यांक) पावला कणकणी आयला आसतलो. आपणें जिणेचीं इतलीं वर्सा (लग्ना उपरांत) कशीं काडलीं हाचें तुमकां अजाप जाता आसतलें. म्हाकाय जाता. आमचे सहनशक्तीचो अंत जायना, जाल्लो जाल्यार पानशेतीचें धरण फुटिल्लें तशें आमचे सहनशक्तीचें धरण फुटून ही मंडळी खंय व्हांवन वतली आशिल्ली कोणाक खबर.आमचे सहनशक्तीची आनी पानशेती धरणाची तुळा बरोबर जाल्या जाल्यार तुमी तपासून पळयात. आसूं. तर, एकदां कवळ्यां पंचमीक वतना आमी बशींत बशिल्लीं (पंचमीक पणजेच्यान स्पेशल बस सुट्टा तुमचे म्हायती खातीर). सदचे भशेन ही म्हज्या काना कडेन, 'हांव तुमकां सांगतालीं, तुमी स्वताक शाणे समजतात हांव पिशीं' अशें फुतफुतप चालू आशिल्लें. म्हजी तकली विरार जाली. दादल्याची तकली विरार जातकच ताचो मूड ऑफ जाता हें तुमी मतींत दवरचें. इतल्यान भरण्यालें निता बशींत चड्लें. तें पाचवीच साडी नेशिल्लें आनी कपलाक उषा उत्तूप लायता तसो व्हड्लो तिबो लायिल्लो. हांव आपशींच 'तुम आ गये हो' शिळोवणी घालपाक लागलों. आतां निताक पळोवन हें म्हजें स्पोण्टेनियस एक्शन जाल्यार हांव नकळो. हिचें परत सुरु जालें... 'शिळोवणी ओंठार कित्याक आयली तें कळ्ळें म्हाका, येदोळच्यान ओंठ सुकिल्ले तुमचे! हांव सकाळीं काशीन न्हेंशिल्लें देवकाऱ्याक तेन्ना माळ्याच्या मळ्या मर्दी शिळोवणी घाल म्हणिल्ली, ना घाली! आतां शिळोवणेर शिळोवणी!!' पूण जेन्ना सामकार शितळ सावळी आसता तेन्ना धग लागना, तशेंच म्हजें जालें. कवळ्यां पावऽ मेरेन मन प्रसन्न उरलें आनी मन प्रसन्न उरतकच मूड बरो उरता हें तुमी मतींत दवरचें. दादल्यांचो मूड वाट लागपाच्या कारणाचो हांवें सोद घेवपाचो यत्न केलो. तेन्ना, तांची न्हीद सारकी जाली ना जाल्यार तांच्या मुडाक चुट्टी लागता हो म्हाका सोद लागलो. तांची न्हीद कित्याक सारकी जायना हाचीं विंगड विंगड कारणां आसूं येतात, तातूंत आमी चड भितर वच्चें न्ही. जर न्हीद सारकी जाली ना जाल्यार सकाळीं जीव चिडचिडो जाता. आज आपणें सकाळीं उठून कोणाचें तोंड पळयलें काय असो प्रस्न मनांत नाका आसतना उपरासता आनी ताच्या जापेच्या रुपान सदच्या नांवांची वळेरी ताच्या मनांत तयार जाता जाचो ताचे न्हिदे कडेन कांयच संबंद नासता. न्हिदेचो आनी मुडाचो कसो संबंद आसता ताची देख हांव दितां. न्हिदेंत जीं सपनां पड्टात तीं आपले चरम सिमेक पाविल्लीं आसतात तेन्ना तुमकां कोणें जागयत जाल्यार तुमचो मूड ऑफ जाताच आनी न्हिदूय चाळवता. एकदां हांव दनपरां बाजारांतल्यान येवन कासेसा जालां म्हणून सालांत आड पडिल्लों. अचकीत कशें म्हणून खबर ना, म्हाका सपन पड्लें. हरशीं असलीं सपनां म्हाका रातचीं पड्यत. रामाच्या देवळा फाटल्यान म्हजी रासलीला चल्ल्या. हांव आनी संध्या झोपाळ्यार बसल्यांत आनी बाकीचो ताच्यो सखी (रमा, रेखा, रुक्साना बी) आमकां झोके दितात. जरीय म्हाका हें सपन दनपरां पडिल्लें, म्हजी ही रासलीला वृंदावनाचे परंपरे नुसार रातची चलिल्ली. अचकीत राधा म्हजीं भुजां हालोवन, ...'हय व्हो ही ताका बाटली हालया हांव तायां काड्टां' अशी म्हणपाक लागतकच म्हजो मूड ऑफ जालो आनी सोमतों हांव रासलीलेंतल्यान भायर सरुन शेंदरेर बसलों. दोळे उगडल्यार ही ताका बाटली घेवन उबी. खंय ती पुनवेच्या रातची रासलीला आनी खंय ही ताका बाटली. म्हजें सोडाच साक्षात कृष्णाक झोपाळ्यार बशिल्ले कडेन ताका बाटली हालय म्हणून सांगिल्ली जाल्यार कितें जावपाचें! भैया जालो म्हणून कितें जालें, ताका बाटली हालय म्हणटकच ताचो मूड ऑफ जावपाचोच! तसोच म्हजोय बी जालो.

दादल्याचो मूड ऑफ जावपाचें आनीक एक कारण म्हणल्यार डिप्रेशन. हालीं दादल्यांक डिप्रेशन खुबूच येवपाक लागलां. ताचे फाटलीं कारणां आमचो विशय न्ही. आदीं पुराणांनी बी आमकां कोणाक अशें डिप्रेशन बी आयिल्ल्याचो संदर्भ मेळना, हाचो अर्थ तेन्ना तांच्या मुडाक धाड मारऽ नाशिल्ली. भर रणांगणांत आपलो आमीग फाटल्या सिटार बशिल्ले कडेन गर्भगळीत जाला तें पळोवन ड्रायव्हर सिटार बशिल्ल्या आमिगाक डिप्रेशन येवपाचें. हांव अर्जून (सुकण्याचो दोळो फेम) आनी भगवान श्रीकृष्ण (भगवद् गीता फेम) हांचे बद्दल उलयतां. तो डिप्रेशनांत बी कांय गेलो ना वयल्यान घरा पाठ करुन आयिल्ले वरी गितेचे अठरा अध्याय ताणे सांगले. फाटीं दत्ताक सादें मूतखड्याचें जाल्लें तेन्ना ताचे हाल पळोवन हांव डिप्रेशनांत गेल्लों. ताचो खडो पडलो तरी हांव डिप्रेशनांत. मागीर दत्ता कडल्यान दिसांतल्यान तीन बाटल्यो बियर आनी तितल्योच बाटल्यो उदक पियेतलों अशें उतर मेळटकच म्हजें डिप्रेशन गेलें. ह्या काळांत म्हाका बियर मारपाचो मुडूच येनाशिल्लो. हाचे वयल्यान मुडाचो डिप्रेशना कडेन लागींचो संबंद आसा हें आमकां कळ्ळें. आदल्या काळांत आमचे जाण्टेले ल्हानसान गजालींनी आनंद सोदून आपलीं मनां प्रफुल्लीत दवरताले. हाका लागून तांकां डिप्रेशनां येनाशिल्लीं. डिप्रेशन येना म्हणटकच तांचो मूड बरो उरतालो अशें सादें सरळ गणीत तें. हाची बरी देख म्हाका बापायचे डायरेंत सांपडली...*आज तीन दिवसांनी कामणें कामावर आली. बाल कविंच्या, वरती खाली मोद भरे वायु संगे मोद फिरे नभात भरला दिसात फिरला जगात उरला मोद विहरतो चोहीकडे... ह्या ओळींची प्रचिती आली. सध्या मोद लॉजांत भरला आहे.* कामण्याचें आगमन ही सादी गजाल. हे सादे गजालीन बापूय कितलो खोशी जातालो तें पळयात. मूड ही मनाची स्थिती पूण मन हें आपल्या हातांत नासता. 'अचपळ मन माझे नावरे आवरीता' अशें समर्था सारकेल्या संतान म्हणलां. तांणी रघुपतीक 'धांव रे धांव आता' असो उलो मारला. हें कलियुग, आमी असो उलो मारलो जाल्यार रघुपती आमच्या उल्याक धावन येतलो, म्हाका दुबाव! आनी तो धावन आयलोना म्हणून परत आमचो मूड ऑफ!

संपर्क : 9850530756

---

*(पान १६ वयल्यान)*

मात खऱ्या अर्थान ताजें आनी रुचीक आसता. वीस वर्सां पयलीं असलें बारीक मिस्तुराद नुस्तें वा कल्ले सारकें कांट्यांचें नुस्तें मुंबयंत चड खपनासलें. कोंकणी मनशानच तें खावपाचें. दाढे, घोळ, सरंगे, हलवे, सुरमय, विसवण असलें नुस्तें चड खपतालें. व्हडल्या गल्याच्या दोन हात लांबायेचे कल्लेचें मोल चडांत चड बारा आणे ते रुपया आसलें. आतां तसले कल्लेक चार ते पांच रुपया पडटात. आनी बारकेलें करबट लेगीत रोखडेंच खपता. अमकी अमकी जातच नुस्तें खावपी हें समीकरण सोंपलें. नुस्तें सगळे लोक खावंक लागले.

कांय नुस्तेकार (?) शेंवटे, मोठीं सुंगटां, शेतकां, बोय अशें ताजें फडफडीत नुस्तें सद्दां हाडटात. तें खऱ्यांनीच ताजें आसता; पूण तें नुस्तें ताजें दिसलें म्हण सुवादीक आसतलें अशें मात न्ही. कित्याक तर हें नुस्तें गटाराच्या तोंडा कडलें पेट्रोल ओतून काडिल्लें आसता. खातना ताका पेट्रोलाचो वास येता. जाण्टी मनशां ताचें मोल लेगीत विचारपाचे भानगडींत पडनात; पूण तरी तिचेर उडयो मारून तें घेवपी लोक खूब आसात. हांतलेच आपल्याक नुस्तेकार म्हणपी कांय मनीस केन्ना-केन्ना पांटल्याचे वयर दवरिल्ले फळयेचेर फडफडीत काळें नुस्तें हाडटात. पूण तें साव्या उदकांतलें आसता हें खूब थोड्या लोकांक खबर आसता.

तिसऱ्यो, कुल्ल्यो, बारीक शंख, खुबे हांगा वर्सूय भर मेळटात. खरें म्हळ्यार हांगा सगळे तरेचें मोसमी आनी बिनमोसमी नुस्तें वर्साचे तिनशें पांसष्ठूय दीस मेळटा.

पूण अभिजात खानदानी संगीत कानांनी पचयिल्ल्यांक, स्वरांचो स्पर्श जाल्या जाणकारांक, जशें नकली संगीत आवडना, तशें दर्या देगेर जीण पासार केल्ल्यांक आनी नुस्त्यांत आयुश्य काडिल्ल्यांक असलें झेलांतलें नुस्तें घोस्ताक वचपाक ना. तापिल्ले रेंवेर सुकयिल्ल्या खाऱ्या बांगड्यांची सर लेगीत ह्या नुस्त्याक ना. पूण करतलो कितें? बदलत्या जमान्या बराबर आदल्या काळाच्यो यादी काडीत आनी सुस्कारे सोडीत जें मेळटा तें खावंक जाय. नुस्त्याचेर पोशिल्लो पिंड तो; थोडोच ओगी रावतलो!

पयरूच आमचें मीरा म्हणपाक लागलें ''काका! कुल्ल्यांक रगत आसता?'' सरसकट सगळ्या नुस्त्यांत रगत आसता तें हांवें पळयलां. पूण कुल्ल्यां जातींत, सुंगटांच्या जातींत, आनी कालवांच्या जातींतल्या दर्यांतल्या प्राण्यांत हांवें केन्नाच रगत पळोवंक ना. मीरा एम्. एस्सी खातीर संशोधन करता. आनी कुल्ल्यांत निळें रगत आसता हेंवूय ताणें म्हाका सांगलें. पूण कुल्ल्यांत दादलो आनी बायल कशें वळखप ह्या प्रस्नाची जाप दिवंक ताच्यान जालें ना. पुस्तकांतलें गिन्यान आनी आपणाक आयिल्ल्या अणभवांतल्यान आयिल्लें गिन्यान हातूंत फरक आसता. ताचो फकत कुल्ल्यांतल्या रगता कडेन संबंद.

''पूण दादलो कुल्ली कशी वळखुपाची काका?''

''सांगन आं. दादलो आनी बायल कुल्लेची जोडी हाडून तुका दाखयतां. आनी तांच्यांतलो फरक तुका सांगतां.''

नुस्त्याचेर उलयतना अशे खूब जाणांक हांवें उतर दिल्ले. पोन्न्यो यादी सांगत गेलों. रांदचे कुडींतल्या नुस्त्याच्या रांदपाच्यो पतीय धडधडीत सांगत गेलों. आयज सगळें एकदमच सांगन दिसलें; पूण दर्या खूब व्हडलो आसा. ताच्या पोटांत जें मेजूंक जायना अशें भांडार आसा ताचो थाव म्हजे सारकेल्या वयले वयर पळोवपी मनशाक कसो लागतलो?

हांगा हांव - म्हणजे जगांतले नामनेचे शास्त्रज्ञ भौ. जयंत नारळीकरांचे भाशेंत सांगतलो जाल्यार - 'प्रचंड म्हासागर; त्या म्हासागरांत बुचकळपी एक पातमारी; ते पातमारेंत एक कोठी; ते कोठयेंत एक लाकडी पींप; आनी ते पिंपाचे कडेक दशिल्लो एक भिकूण. हो भिकूण दर्याचो सोद घेता.

हांव त्या भिकुणा परस ल्हान आसां.

संपर्क : 9923306751

# गृहीत

**आशा शानभाग**

"आमी फाल्यां सकाळीं साडे-धा मेरेन पुण्यांत पावतात. सोमार फाल्यां, तुमची धांवपळ आसतली. आमची चिंता करिनाकात. आमी वेवस्थीत घरा पावतात आनी जोशी काका कडच्यान घराची चावी घेतात. रियाकय सांग हें." बाबाचो फोन. पयले फावट बाबा पुताच्या नव्या घरा येवपाचो... तेंवूय आई आनी आज्जेक घेवन. मिहीर जाम टेंशनांत. तिगांय जाण्टीं. बाबा-आई साठ क्रॉस. तर आज्जी पंच्यांयशीं. खरें म्हणल्यार आमी दोगांयनीय वचपाचें स्टेशनार. आयतार जाल्यार सगलें जमपाचें. बाबान ट्राय केल्ली आयतार गांठपाक. पूण रिझर्वेशन मेळ्ळें ना. तशें कठीण कांय ना म्हणा. स्टेशना भायर घेऽऽऽ रिक्षा... सरळ घर... जोशीकाका चावी दितलोच... दार उगडपाचें. सांजे बेगीनच येतलों हांव. तरी... तरी...

आज्जे खातीर तरी स्टेशनार वचपाचें, पूण कशेंच जमचें ना. बँकेन ऑडीट चल्लां. सो... म्हजे थंय आसप गरजेचें. सोमार म्हळो की रियाय बिजी... ताची विकली मिटींग-डे. तो एम.डी. आनी व्हड ऑफिसर्स येवपाचो दीस. सप्तकी कामांचे रिपोर्टींग ते दिसा. कामां बरोबर जांवनय फावना. ताचे धोल-ताशें ऑफिसर्सा सामकार वाजोवंचे पडटात ताका. फकत कॉंपिटिशन रियाकय मिटींग चुकोवप शक्यच ना.

रिया-मिहीर... जस्ट मॅरीड. स म्हयने लेगीत जांवनात अजून. नातू-नवी नातसून आनी तिचो नवो संवसार पळोवपाक आज्जी येता. रिसिव्ह करपाक वचपाक शक्य ना. म्हणून दोगांय चुरचुरली. दोगांयचीय लायन ऑफ थिंकिंग सारकीच. नात्यां मदीं मायेची ओलसाण जायच... पूण गृहीत धरपाचें ना. गृहीत धरलें की हक्क गाजोवप जाता. आनी मागीर धमचक्री सुरू. जमता तितलें... जमता तशें करपाचें... केल्यार मनासावन करपाचें... हें दोगांकय एकदम मान्य. दोगांयकय वचप अशक्य म्हणून विशय खल्लास. आई-बाबानय मानून घेतलां. "सोमार... दोगांयचोय गडबडीचो दीस. ओगीच वांकडी वाट करून जीव तरी कित्याक धाडावंचो तांणी? बाबाच्या ह्या म्हण्ण्याक आज्जेचो हांसकुऱ्या मुखामळान तेंको. घराचो नामो खबर आसा. जोशी कडेनय उलोवन थारलां. सो टेंशन कित्याक? एकाद्रो रिक्षावालो दोन चक्कर चड मारतलो... चार पयशेय चड घेयत. मात्शें सोदचें पडतय... बाबान चिंतलें.. आनी म्हळें.. "जमतलें" क्रिस्टलकर नातीं... एकामेकां कडच्यान अवास्तव अपेक्षा न धरपी. सहजसुंदर नातें हें... तेंवूय तीन पिळग्यां मदली जनरेशन गॅप सांदपी.

गाडी टायमार स्टेशनाक लागली. गर्दी कमी जालीशी पळोवन बाबान आज्जेक सकयल देंवयली. आनी बांकार बसयली. आई भितर बॅगां राखपाक. एकदम रियाचेर नदर पडली. आयलें तें डब्यांत घुसलें. आईक आनी बॅगां घेवनच देवलें. "रिया... ओगीच धांवपळ करून कित्याक आयलें गो?" "आई... ऑफिसांत वतालें म्हळें म्हजी मनशां येतात. मारो गोली. बॉसाक फोन केलो... बरें ना जिवाक. ताणें कितेंय उलोवचे पयलींच मोबायल स्वीच्ड ऑफ. मिहिराचेय ऑडीट चल्लां. ना तर तो येवपाचोच. तातुंतल्या तातूंत रियान स्टेशनाचेरच तिगांक 'पैर लागो' केलें. आज्जी नात सुनेचेर फिदा. रिमाच्या कपलार आपलीं बोटां मोडून दिश्ट काडलीच तिणें. रिया डबल फिदा जावन कँटीनाचें दिकेन धांवलें.

तितल्यांत मिहीर गळ्यांतली लॅपटोपाची बॅग सांबाळत धांवत येतना दिसलो तांकां. "आज्जी गे... पावली?" आज्जेच्या गळ्यांत पडत मिहिरीन विचारलें, "म्हाका दिसलें चुकामूक जातली. धा वरां जायत आयलीं तरी ऑडीटर बेपत्ता. म्हळें चान्स घेवंया आनी धांवलो. रियाच्याय मनांत आशिल्लें. पूण ताचीय मिटींग गे" आज्जेच्या चेऱ्याचेर सूप भर चांदणें फांकलें. इतल्यान रिया च्याचीं चार कोपां



घेवन आयलें. मिहीर-रियाच्यो नदरो मेळ्ळ्यो. "म्हाका दिशिल्लें तशेंच जालें" ही भावना दोळ्यांनी देंवदांक पावयली. मोगाचो समभूज त्रिकोण. चार च्या पांच वांट्यांनी सोपली. आजी दोशीं वटेन मिहीर आनी रियाक वेंगेंत घेवन बसली. "पोरांनो... आमच्या घराब्याचे संस्कार हे. अपेक्षांचें वजें दुसऱ्यांचेर लादप नात आनी हेरांक गृहीत धरप ना आनी अशें नातें आनी नात्याक जपप. दोगांय तुमी धावन आयलीं बरें दिसलें. सुखान संवसार करात. आमचो हो वारसो फुडें व्हरपाक म्हाका पणती वा पणतू जाय. तो मेरेन हांव पुण्यांतल्यान हालचें ना." गालार गुलाब घेवन रिया मिहिराच्या फाटल्यान लिपलें.

"मिहिर... वतां-वतांच दगडु शेटीचें दर्शन घडय रे." "जो हुकम आज्जी सरकार" गाडी सुटली. व्हिलाचेर रिया... शेजरा आज्जी... आई-बाबा-मिहिर फाटल्यान आनी बॅगां गाडयेच्या वयर आनी डिक्कींत. ही खोशी तरी कोणें अपेक्षीत केल्ली? कोणें गृहित धरिल्ली?

*(कौस्तुभ केळकर हांच्या मराठी लेखाचो, तांचे परवांनगीन हांवें केल्लो अनुवाद.)*

संपर्क: 9404145337



# “नुस्त्यांच्यो गजाली बेस बऱ्यो लागल्यो...”

**भौ. संपादक**

'जागा'चो ऑगस्ट म्हयन्याचो अंक मात्सो उसरांच मेळ्ळो. पोष्टाच्या दिरगांयीखातीर आसुये! अंक सदासारकोच सगळ्यां आंगानी सोबीत जाला. आंग्ल कवी शेळेच्या Skydark ह्या कवितेची याद करून दिवपी भायलें चित्र एकदम आवडले. 'Hail to the blithe spirit' ही कल्पना बेस बरी अवतरल्या. चित्रकर्तीक धन्यवाद.

Skydark कवितेचो अणकार म्हालगडो कोंकणी बरोवपी स. रा. ना. नाईक, हाणी केल्लो अशी याद जाता. 'दिव्य सवणे' अशें तांणी नांव दिल्ले.

भितल्लीं चित्रांय अंकाची सोभा वाडोवपी अशी आसात. चित्रकाराक धन्यवाद.

लेखांचेर प्रतिक्रिया पडसादच्या मर्यादेभायर जाल्या. स्वतंत्र टिप्पणी स्वरुपांत बरयल्या.

'दोन टिप्पण्यो'

**टिपणी १ :** 'जाग'च्या ऑगस्टाच्या अंकांत भौ. सखाराम शेणवी बोरकार हांचो 'रांपण' हो अणकारीत लेख आयला. स. गोपाळकृष्ण भोबे हांणी गोंयच्या नुस्त्याच्यो गजाली मराठींत बरयल्ल्या 'मासे आणि मी' ह्या पुस्तकांतल्या एका प्रकरणाचो अणकार. हाचे पयलीं आनिक कांय प्रकरणाचे अणकार 'बिंब' म्हयनाळ्यांतल्यान तांणी उजवाडायल्ले. भोब्यांच्यो गजाली कोंकणीतल्यान चड रंगतात. मराठींत ते मत्स्यपुराण जाता. कोंकणींतल्यान त्यो नुस्त्याच्यो गजाली बेस बऱ्यो लागतात.

स. डॉ. श्री. रा. नगर्सेकार (भाई) हांचे प्रेरणेन पुढाकारान आनी आर्थिक मदतीन 'साळीक' नांवाचे डायजेस्ट टायपचे अल्पजिवी कोंकणी म्हयनाळे १९५५-५६ त मुंबयच्यान उजवाडा येताले. भाईच्या विनंतीक मान दिवन तांणी सुरश्री केसरबाय केरकाराचेर दिवाळी अंकांखातीर लेख बरोवन दिलो. तो लोकांक बरोच आवडलो. पूण ते 'साळीक' परिवारापासून आनी कोंकणी मोग्यांपासून पयस रावले. मराठींत तांकां नामना मेळिल्ली. गायक कलावंतांचे सुंदर परिचय तांणी बरयल्ले. संगीतज्ञ टिकाकार म्हणून मान्यताय मेळयल्ली. भाईकडे एकदां तांणी म्हळ्ळे 'शिंगा मोडून गायन वासरानी वचून कित्याक बसप?' सखारामबाबान तांचे लिखाण कोंकणीत हाडून बरें काम केलें. तांकां धन्यवाद.

हालींच नामनेचे पत्रकार आनी इतिहासाचे अभ्यासक स. डॉ. अरुण टिकेकर हांणी तांच्या जपान प्रवासासंबंधी बरयल्ले 'ओच्या-कोच्या' (२००५) हें पुस्तक वाचुंक मेळ्ळे. त्या पुस्तकान 'ब्लो-फिश' नांवाच्या थंयच्या लोकप्रिय नुस्त्याच्या स्मारका संबंधी बरयताना तांणी म्हळां, ''गोपाळकृष्ण भोब्यांचीच पटकन आठवण झाली.'' त्यांनी लिहिलं होतं. 'ज्या माशांवर हा माझा देह वर्षानुवर्षे पोसला गेला त्यांना माझ्या मृत्यूनंतर माझा मृतदेह अर्पण करावा'. 'मासे आणि मी' ह्या पुस्तकांत म्हाका हें वाक्य मेळूंक ना. नाट्यसृश्टीन आनी सिनेसृश्टीन नामना मेळयल्यो म्हालगडी लेखिका श्रीमती सई परांजपे हांणी हालींच 'सय' हे आत्मचरित्र उजवाडायला. तांतूंत तांणी बरयला, 'पुणे आकाशवाणी केंद्रांत मराठी विभागाचे प्रमुख कवी बा. भ. बोरकर होते. बोरकरांची विनोदबुद्धी मोठी मिष्कील होती. बोरकर एकदा म्हणाले, ''मी गेल्यावर मला दूर समुद्रात सोडून द्या असे लिहून ठेवले आहे. जन्मभर मी मासे खाल्ले आता त्यांची पाळी''. जपानी लोकांची जिण समृद्ध करपी नुस्त्याचें यादस्तीक पळोवन परमेश्वराच्या प्रथमावताराची अनन्य भक्तीन पूजा करपी गोंयकारांची याद डॉ. टिकेकारांक जावप साहजीक.पूण ताणी 'वडाची साल पिपळांक' लायल्या आसुंये.

**टिप्पणी २:** सखारामबाबांचो लेख नुस्त्या मोग्यांखातीर जाल्यार 'सवणी म्हजी सोयरीं' हो भौ. सुरेशबाब आमोणकारांचो सोबीत लेख सवणी निरखुपी, पारखुपी सवणी मोग्यांखातीर आनी हेरांक मेजवानीच म्हणूं येता' सैमांतल्या काक्याकडेन बाळपणान जाल्ली वळख संबंध जिणभर आनी कोण जाणा मुखारूय उरता. केन्ना तो लोकगितांतल्यान येता नाजाल्यार सुरबुस अश्या म्हणींतल्यान. म्हालगडो कोंकणी मोगी स. पुरुषोत्तम मल्ल्या, हाणी संग्रहित करून

उजवाडायल्या कोंकणी लोकगीत (केरळ) ह्या सुपुल्ल्या पुस्तकांत दोन गितां मेळ्ळी. पतीक सुरवेची कडवी दिता.

१) काक्या तूं गोंयां गेलोलवे?
आमगेले पुताचे मामाक दिखिलवे?

२) यो काक्या, यो रे काक्या, गोंयां वचाक
काक्को, मेण्डो, काळो, काक्या एक दोळो

ह्या गितांतल्यान कावळ्या वयले प्रेम आनी गोंयांविशी केरळच्या कोंकणी समाजाक आशिल्ली दाट ओड नदरेक येता. गोंयच्यान केरळांत कोकणे म्हणून वळखले वतात तांचे पूर्वज तेराव्या शतमानान आनी सतराव्या शतमानान मायभूमी सोडून थंय गेल्ले. तांणी आपली भाशा आनी गोंयचो मोग तिगून दवरलो. भुरग्यांखातीर आसलेल्या गितांनी भुरग्यांचो मामा गोंयां आसता! मनजातीवयलें प्रेम तांचेविशीच्यो समजुती हांचे पडबिंब आमकां म्हणीनी मेळटा. कोंकणी म्हणीनी कावळ्याचे दर्शन जाता. अश्यो कांय म्हणी दितां आनिकुय आसल्यो!

१) कावळो रडलो म्हणून पिंपळ मरना.

२) कावळ्यान मोरा पाखां लायली म्हणून मोर जायना.

३) कावळो बसूंक आनी मोडूंक एक जाले!

४) कावळ्याचो शिराप गोरवाक लागना.

५) वडाक जालीं वड-फळां कावळ्यांच्या तोंडाक जालीं रुवां

पतीक थोडे वाक्यप्रचार दितां.

कावळ्या आवय, कावळ्याचे आवाळगोत्र, कावळ्याची नदर पोटान कावळे रडप, किरकावळे घालप, कावळो आफडप.

सुरेशबाबांचो लेख वाचून जाग्यो जाल्ल्या यादींक वाट करून दिता.

कवड्याचे मास खंयच्या तरी रोगाक बरें वखद म्हणून समज आशिल्लो. म्हज्या भुरगेपणांत आमच्या वेरें गांवांत एक येसो म्हणून कासादोर आशिल्लो तो कवडे गरज लागता तांकां हाडून दिताले. ताजे नांवूच दवरिल्ले 'येसो कवडो'. 'कवडुलो पोर' ही काणी हांवेंय आयकल्या. आमच्या घराच्या फाटल्यान आशिल्ल्या दोंगुल्लेचेर कोगुळ, बोचुद्दी, मडवळ येतात. मडवळ न चुकतां येता. ताका मडवळ कित्याक म्हण्टा तें सुरेशबाबांकडल्यान आतां कळ्ळे. किरकिऱ्यान तर आपले बिराड बांयकडेक केलां. Resident Kingfisher अशें ताका आमी पाचरतां. आमी चार दिसांक रावूंक वता तेन्ना भारव्दाजचे दर्शन आत्र्यापैऱ्यान जाता. खरें सांगचे म्हळ्यार तांचे कोंकणी नाव कुमात्तर किंवा मोरायलो हें हा वेळ पर्यंत खबर नाशिल्ली. 'कुकुटकुंभ्म' हें एक नांव जाणा आशिल्लो. हो शुभशकुनाचो मानतात हे खरे. 'माझ्या भारव्दाज राजा' ह्या कवितेंत बाकीबाबान म्हळां, '...खुणविसी शब्दाविणे शुभसूचक शकून...' निसर्ग कवी म्हणून वळखतात त्या बालकविन म्हळां, 'भारव्दाजा विहंगा माझ्या धन्य जगीं तू मज गमसीं...' सवणी निरखुपी तज्ञ मंडळी हाका greater coueal किंवा crow pheasant हे दोनूय शब्द वापरतात. आसुं. सध्या कबुतरखान्या लागसार हांव रावता. परिग्यांचो गुटूर गू... गुटरगू हो साद आनी मोटारींचो नाद आयकप इतलेच आसुदाय चल्लां.

**मनोहर पै धुंगट**
साफल्य, दादर-मुंबय
संपर्क : 9867331768



---

*(पान २० वयल्यान)*

आपने उसका हुनर पहचान के उसको सही राह दिखायी। सचमुच उसे यहाँ बहुत अच्छा लगने लगा था। अपना मायका छोडते समय भी वह इतना नहीं रोयी थी। आप सबको बहुत ही याद करती है। उसका आत्मविश्वास बढाने के लिए उसकी तरफ से मैं आपको शुक्रिया अदा करना चाहता हूँ। मुझे चंदीगढ में अच्छी नोकरी मिली है। पगार थोडी कम है। यहाँ जैसी अच्छी नोकरी तो है नहीं पर गाँव नजदीक है इसलिए जा रहा हूँ। अगली छुट्टीयो में आप सब हमारे पंजाब में जरूर आना। माँ ने खास न्योता भेजा है। पयलेच पावटी सुरजीत इतलो मेकळे पणान उलयिल्लो.

कोमल थंयच्यान फोन करतालेंच. ताका चलो जालो. चल्याचें नांव हरजीत दवरिल्लें. हळूहळू मागीर फोन कमी जायत गेले. आतां तांका वचून सुमार आठ वर्सां जाल्लीं. मानसीच्या कॉन्टेक्टान आशिल्लें जावंये. मानसी आतां MBBS करतालें आनी हॉस्टेलांत रावतालें. मानसीच्या फ्रेंडांची वळेरी वाडतूच आशिल्ली. आनी आमकांय आतां हाची संवंय जाल्ली. हांव तर कोमलाक साप्प विसरून गेल्लें.

आनी आयज अकस्मात ताचें पत्र आयिल्लें आनी फाटल्यो यादी उचंबळून आयिल्ल्यो.

जेवन जातकच हांवें उमळशिकेन पार्सल उगडलें. दोन पुस्तकां आशिल्लीं. एक हिन्दी आनी एक इंग्लीश. बरोवपी - कोमलजीत सिंग. हिन्दी पुस्तक ताणें मानसीक ओंपिल्लें - मेरी छोटीसी प्यारी सी बहन मानसी - मेरी गाईड! आनी इंग्लीश पुस्तक ताणें सरिताक ओंपिल्लें - Dear Mummy Sarita - my inspiration. पुस्तकां पळोवन सरिताचे दोळे दुकांनी भरून आयले. दोगांय खातीर कोमलान वेगळी वेगळीं पत्रांय बरयिल्लीं.

पत्र इतलें सुंदर बरयिल्लें - वाचतना सरिताचे दोळे दुकांनी व्हावंक लागिल्ले. परत परत दोळे पुशीत तें पत्र वाचतालें. कोमलाक ताच्या हिन्दी पुस्तकाक पुरस्कार लेगीत मेळिल्लो.

सरिताक पळोवन घोवान म्हणलें - "आगो, किदें जालां? बरें आसा मगो कोमल? तूं अशें रडटा कित्याक?"

सरितान मोन्यांनीच दोनूय पुस्तकां घोवाच्या हातांत दवरलीं आनी पत्रूयबी.

आपूण कोणाच्या तरी जिविताक एक बरें आनी वेगळें वळण दिवंक पावलें म्हणून सरिताक खूब खोस भोगताली.

संपर्क: 9823055751



# नियतीची आशाढ पांवळी

'नियतीची आशाढ पांवळी' हो रजनी अशोक भेंब्रे हांचो कथा झेलो हालींच उजवाडाक आयला. रजनीबाय हें कोंकणी मळा वेलें एक नामनेचें व्यक्तीमत्व. कोंकणी चळवळींत वावुरपी एक सक्रिय कार्यकर्ती. ते भायर एक कुशळ शिक्षिका आनी संघटक. तिणें आयज मेरेन खूब साहित्य रचलां आनी तें चडशें भुरग्यां खातीर आसा. काणयो, कुवाडीं, चरित्रां, नाटकुलीं हे साहित्य प्रकार तिणें हाताळल्यात. एक शिक्षिका जाल्ल्यान भुरग्यांक बरे संस्कार दितलो जाल्यार कसलें साहित्य जाय हाची तांकां जाण आसा. 'हांणी घडयलें गोंय', 'गोंयचीं माणकां-मोतयां', 'फाकिवंत गोंयकार' हीं तांचीं भुरग्यां खातीर बरयिल्लीं फामाद पुस्तकां.

रजनीबाय एक सर्जनशील साहित्यीक. कथा हो साहित्य प्रकार ती मुखेलपणान हाताळटा. तिचो पयलो कथांझेलो 'घुस्मट' १९९२ वर्सा उजवाडाक आयलो. कोंकणी साहित्य मळार ताका घसघशीत येवकार मेळ्ळो. ताचे उपरांत २६ वर्सांनी 'नियतीची आशाढ पांवळी' हो तांचो दुसरो कथांझेलो उजवाडाक आयला.

'नियतीची आशाढ पांवळी' हो ह्या कथा झेल्याचो माथाळो ह्याच कथा झेल्यांत आशिल्ले हेच नांवाचे कथे वेल्यान घेतला. ह्या कथां झेल्यांत तांणी १९८८ ते २००६ मेरेन बरयिल्ल्यो कथा आसपावतात आनी त्यो विंगड विंगड नेमाळ्यांनी हे आदीं उजवाडाक आयल्यात.

रजनीबायच्या ह्या कथा झेल्यांतल्या कथा-बिजांची खऱ्यांनीच तोखणाय करपाक जाय. हीं कथा-बिजां मध्यम वर्गीयांच्या तशेंच गरीब घराब्यांच्या प्रस्नां कडेन चड ओडटात. आयच्या समाजा मुखार आशिल्ले ज्वलंत प्रस्न लेखिका ह्या कथा-बिजांनी आमचे मुखार दवरता. ह्या कथा संग्रहांतल्यो कांय कथा हाची गवाय आसात. घुंवळी वखदांचो वेव्हार करताना सांपडिल्लो मध्यम वर्गीय घराब्यांतलो भुरगो (कुलदिपक), शिंदळकीच्या धंद्यांत धुकलून घाल्लें असहाय्य चली (जीण एके अस्तुरेची), मिनाच्या धंद्या खातीर आनी तातूंत मेळपी पयशां खातीर उध्वस्त जाल्लो एका घराब्याचो संवसार (खिणयाळें सूख) आदी कथा तांच्या विशया खातीर वाचप्यांक आकर्शीत करतात आनी तेच बरोबर वाचप्यांक अंतर्मूखय करपाक लायतात. ह्या कथानकांतलीं पात्रां आनी प्रसंग खूब वेळ मेरेन वाचप्यांच्या मनांत उरतात.

ह्या कथा झेल्यांतल्या कांय कथांनी लेखिकेन अस्तुरेच्यो व्यथा आनी आंवडे मांडल्यात. लेखिका एक बायल मनीस आशिल्ल्यान आनी अस्तुरेचे सगळ्यो व्यथा तिका खबर आशिल्ल्यान हे विशय हाताळपाक तांकां सोंपें जालां.

शेकीं ह्या सगळ्या कथांनी दुसऱ्याच्या असहाय्य परिस्थितीचो फायदो घेवपी लोक आनी ताका बळी पडपी मनशां, जीं कांयच प्रतिकार करूंक शकनात, साप्प थोडीं मनशां कांय वेळार ह्या संकटांक फुडो करून परिस्थितीचेर जैत मेळोवपी, आपल्या खिणयाळ्या सुखा खातीर अनितीचो मार्ग आपणावपी लोक हें सगळें रजनीबायन आपल्या कथां वरवीं उक्ताडार हाडलां.

कथा-बिजां प्रभावी आसलींच म्हण जायना तीं फुलोवपाक प्रभावी भास जाय पडटा. कांय कडेन कथा बीज बरें आसुनय कथा फुलोवपाक लेखिका उणी पडल्या. कांय कथा -बिजां चाबून चाबून चोथो जाल्लीं आसात देखीक 'नियतीची आशाढ पांवळी' ही कथा. कांय कथा-बिजां सामकीं बालबोध आसात देखीक 'कापाज' ही कथा. अश्यो कथा ह्या कथा झेल्यांत साप्प थोड्यो आसात. पूण चडश्यो कथा खूब प्रभावी थरल्यात आनी ते खातीर हो कथा झेलो वाचनीय जाला.

ह्या कथा झेल्याचें मुखा वेलें चित्र नामनेचे कोंकणी कवी परेश नरेंद्र कामत हांणी काडलां. हो कथा झेलो राजाई प्रकाशन, आमोणें-केपें हांणें उजवाडाक हाडला.

फाटल्लीं सुमार तीन दसकां कथेच्या मळार आपलें योगदान दिवपी रजनीबायच्या ह्या 'नियतीची आशाढ पांवळी' कथा झेल्याचें तांच्या पयल्या 'घुस्मट' ह्या कथा झेल्या भशेन कोंकणीच्या मळार स्वागत जातलें अशी आस्त बाळगीतां.

**सखाराम शेणवी बोरकार**

संपर्क : 9923306751

**नियतीची आशाढ पांवळी**

**बरोवपी** : रजनी अशोक भेंब्रे

**उजवाडावपी** : राजाई प्रकाशन, आमोणें, केपें-गोंय.

**पानां** : १४४, **मोल** : १८० रुपया

# कविता

## स्वदेशी गजाली

**रमेश भगवंत वेळुस्कार**

१

तूं म्हाका
इतल्यो गजाली सांगता
आनी त्यो आयकूऽन आयकूऽन
हांव सामको जाम जातां
आनी तुका किते सांगपाक जाय
तेंच विचारतां
मागीर तूं जाहीर करता
की हेंच तर भाशा मुक्तिचें जैत

कांय दिसांनी तूं
म्हाका उलोंवकूच दिना
हाची म्हाका
आनी लोकांकूय जाण जाता

हें तुका कळ्ळे काय ना?
तुजी तमाम तासां आतां
संवसाराक आपसुक कळूंक लागल्यांत

२

१५ ऑगस्ट १९४७
ते
१५ ऑगस्ट २०१८ मेरेन
आमच्यांनी हो देश
पूर्ण शिक्षित करून उडोंव येतालो
पूण तें आमी आमचें
ध्येयूच मानलें ना
हातुंतूच आमच्या मनांत आसलेलें
सगलें किते येता

३

सांगप एक
आनी वागप एक
हें एक सत्य
मनाक लाशीत वयता
हाचे पलतडचें असत्य
आमका आवडटा
अशें आमी केन्नाच म्हणनात
पूण ताचोच प्रत्यय
आमच्या वागपांत दिसता
आनी होच जुगार
सगळे जाण खेळटात
दीस धुकलतात
सांगप एक
आनी वागप एक
हाची गाडी धुकलीत केन्नासावन...

४

चिमणे चिमणे
खंय तूं
सोडलो तुवें आमचो गांव
आनी आयज
अकस्मातशी...

''निमणी,
घडये ही निमणी खेप आसत
ह्या तुमच्या वाटारांतली
...तुमी जे संवसारसंपर्का खातीर
आनी स्वताच्याच सुवार्थाखातीर
व्हडले व्हडले टॉवर्स रोयल्यात
ते आमकां हांगच्यान धांवडावन घालतात
कोणाचो तरी धंदो चलोवपाक
तुमी आमचो बळी दिला
रैमान सगळ्यांक दिल्ले स्वतंत्रतायेचो
तुमी विस्वास घात केला
पर्यावरणीय आघात केला...



आनी तरी तूं म्हण्टा,
'चिमणे चिमणे
खंय तूं...''

चिमणे चिमणे
कितलींशींच वर्सां येताले
आमच्या घरावयल्यान
सकाळफुडें उडत वचपी हजारांनी कीर
हालींसरा ते दिसच नात
ते उडत वचूंक लागले की
म्हजें घरूच उडून वयता
असो भास जातालो
ताकांय असलोच तुजे सारको
आमच्या सुवार्थाचो
संसर्ग जालो काय किते?
किते वाट लायल्या ह्या रैमाची
आमच्याच खपनखायऱ्यांनी...?

चिमणी म्हणूंक लागली,
आसा खबर तुका
भारतभर विकासाचे रस्ते
रुंद करपाखातीर
कितलेशेच हजार करोड
झाडां मारून उडयलीं
तांचेर रावतलीं सवणी, सुकणीं
आनी हजारांनी तरांचे जीव
जे झाडांर आपली जीण जियेताले
आनी आमचें
पर्यावरणीय संतुलन सांबाळटाले
पूण आमकां मात
जाची सुलूस लेगीत ना
तांचो खात्मो केलो
आनी आमचें आरोग्यूय



धर्मसंकटांत घातलें
त्या आमच्या स्वतंत्र म्हण्टल्या
मनशाक हें कळटा काय ना?
आमकां सुकण्या सावजांक
जीव दंतांक हो पुराय संवसार
आपलो दिसता
आनी तुमचेसारक्या
कृपण वैचारिकताय आसलेल्यांक
हें सगलें आपलेंच आसा
हें समजुपाचें आंगूच ना...
आपल्या आणकु माणकुल्या
भिणकुलाकूच
तुमी सवन धर्तर समजतात
ताका कितें करुया...

आसूं, संवसारभर धर्तरिचेर
अत्याचारूच चल्ल्यात
सुवार्थाचे उमेदोत्सव नेट्टान चलतात
तरा तरांच्या प्रकारांनी
आपल्या सुवार्थाआड येतल्या
उतरांचो कांटो काडपाचे सुवाळेय
आरंभ जाल्यात
पळोवया,
धर्तरमाय हें सगळें केन्ना मेरेन
सोंसतली काय?

५

सत्य तुवें सांगलें
गेले अभंग पाणयां
असत्याच्या गाणयां
जळफळ ॥

सत्य तुवें सांगलें
तुजेच जिबेर वीख
तांचीच लख्ख दीख
सुवार्थसंपन्न ॥

सत्य तुवें सांगलें
तुजेच प्राण लार्शी
सत्यूच अविनाशी
सदांकाल ॥

६

एक आसलो महाकवी
ताणे स्वातंत्र्य सोदलें
''जंय मन भयविरयत आनी मान तायट आसता;
जंय गिन्यानाक कसलेंच बंधन आसना;
जंय संकीर्ण अंतर्गत कलहाक लागून संवसार खंड विखंड जायना...
जंय विवेकाचो खळखळटो नितळ वझरो आचार विचारांच्या
निरस आनी वांज रेवेंत करपून वचना...
त्या स्वातंत्र्याच्या सर्गांत, म्हज्या बापा, म्हाका जागृत कर''

आतां प्रश्न पडटा
स्वातंत्र्य तर आमकां मेळ्ळां, पुणून
आसात आमी भयविरयत?
भयविरयत?
भयविरयत?
आसा आमची मान तायट?
आसा अशी अवस्था जंय गिन्यनाक कसलेंच बंध ना?
आसा अशी अवस्था जंय संकीर्ण अंतर्गत कलहाक लागून संवसार खंड विखंड जायना...?
आसा अशी सुवात जंय विवेकाचो खळखळटो नितळ वझरो आचार विचारांच्या
निरस आनी वांज रेवेंत करपून वचना...?
त्या स्वातंत्र्याच्या सर्गांत, म्हज्या बापा, म्हाकां जागृत कर'' अशी हो कवी
प्रार्थना करता, पूण आसा असो भयविरयत सर्ग आमचे भुंयेर हे भुंयेर?

पूण आता सर्गांतल्यान आकाशवाणी जाता
की तुमची स्वर्गस्वारी बूक जाल्या... वग्गी रावात
सगळ्यांकूच मोने करपाचो आकांत...
अक्षराकूच निरक्षर करपाचो आकांत...
गिन्यानाक बंधन घालपाचो आकांत...
विवेकाचो खळखळटो नितळ वझरो
वाज रेंवेंत करपून वचपाची भिरांत

'उस्फूर्त, मुक्त उतर
आसत तुमचें
आनी आतां मात ताणे
आमकां जाय तशें
चलूंक जाय...'

वाचा हीच आमची आस्पत
तीच तर आमची सरस्पत
आनी आमी तर तयार
करूंक तिचीच धानाधिस्पट

भयविरयत उतर आतां
वंठां वंठार जालां मोने
सुवार्थाक आपली भिरांत
निस्वार्थाकूय आपली भिरांत
पुणून काळाचो आदिम हुस्कार
हो खीण म्हण्टा,
सुवार्थाक केन्नाच ना रे पत
जी किर्तें आसा ती वाचस्पत
आत्म्याच्या हुकाराची आस्पत
जी किर्तें आसा ती सरसपत
भय मुक्त मनस्पत
भय मुक्त मनस्पत

७

फाटल्या संवत्सराच्या
साठाव्या दसकाच्या अंताक
निकत्योच बशी
गोंयांत पावल्ल्यो
तातूंत भोंवपाक बरें दिसतालें

एक दीस एक काश्टेकार
बशींत चडलो,
आनी कंडक्टरान ताका
सकल देंवयलो
ताणे ताका फुडले पावट
कल्सांव घालून यो
अशेंय ताका सांगलें
उपरांत पुर्तुगेज गेले
आमी स्वतंत्र जाले
कांय काळान
आनी एक काश्टेकार
बशींत चडलो,
कंडक्टरान ताका
सकल देंवयलो
ताणे ताका फुडले पावट
कल्सांव घालून यो
अशेंय ताका सांगलें

कामियांवांनी मात
काश्टेकारांक बंधन नासलें...

८

एक काळ आसलो
मातृभास उलोंवक
लज दिसनासली

ल्हवु ल्हवु काळ बदल्लो
आपले भाशेंत उलोवपाक
लज दिसपाचो
उणाकपणाचो काळ आयलो

उश्ट्या भासांनी
आपले ओंठ रंगोवपाक
आनी परक्यांची
रेडीमेड चिंतना ओंकूक
मजा येवपाक लागली
फटींगपणाचें एक
नवें वर्म
आंगांत बळपाक लागलें

कोणे ताका
सुवार्थाचें सोनसाळीक
लेगीत म्हटलें
आमचे प्रगतीचो कांटो
खंयचे वटेन वयता
ताचोय ग्राफ
आतां आमकां कळपाक लागलो

प्रकरण खूप पयस पावलां
अशेय सूर आयकूंक येता
आनी परिणाम खंय पावला जाणा...
आयकून तुमकां
कच्च जावं येता कारण
कांय जाणांच्या
मुखमळावेल्यान खंय
नाक नाच्च जावन गेलां

आमचे प्रगतीची गती
अशी परा-गर्तीत घुस्पल्ली
ते खातीर परक्यांक
आमच्या कुबड्यांचे
कौतुक दिसता...!!!

९

उतर
हेंच म्हजें स्वातंत्र्य
उतर
होच म्हज्या आत्म्याचो हुंकार
उतर
हेंच दोन आत्म्यांचें मीलन
उतर
होच संवसाराकडलो संवाद
उतर
होच हांव ... आनी
उतर
हेंच स्वातंत्र्य

१०

''लोकशायेंत
सगळ्यांक समान अधिकार
अशें पुस्तकांतली
व्याख्या सांगता खरी सर
पूण प्रत्यक्षांत
सगळे लोक
एकामेकांक समान मानतात
अशें कांय चित्र दिसना...'' हें
क्लासांतल्यान भायर सरतां सरतां
एका विद्यार्थ्यान
आपल्या इश्टाक सांगलें

जाणा मरे
एक दीस म्हजी आजी म्हण्टाली,
''आमचो आमदार म्हणचें
गोडाक दसलेलो ढोमळो
फाटर्ली तीस-पस्तीस वर्सां
तो ती कदेल कशीच सोडीना
आनी तिणे निमाणे वाक्य
किते म्हटलें जाणा?
''आनी हे म्हण्टात,
आमकां लोकशाय कळना''

आमकी खरी गजाल
आरे, आमचो एक शेजारी
भारतभर भोंवता
तो सांगतालो
की भारतभर लोकांच्या
तोंडांत आपल्या देशाच्यो
वेग वेगळ्या दृश्टिकोणांतल्यो
घे म्हण खबरी आसात
जबरदस्त मंत्रशक्तीन भल्लेलो
लोकवेद
तो तांकां न कळटां
मोन्यानी एकठांय केल्यार
एक जळजळीत इतिहास तयार जातलो
व्वाव, ही एक सुंदर कल्पना

तुका कल्पना दिसली ही

ना.. ना... हें तर प्रत्यक्ष
पूण शाळेंत जें सर सांगता
ताचेपरस खरेशें
हें खरें म्हटल्यार सुंदर अनुमान

हें बरोबर

लोकमनाक जें उलोंवक जाय
तें बेग्गीं भायर येवं अशें तुकां दिसना इश्टा?

दिसता म्हज्या इश्टा.

(१० ऑगस्ट ते १५ ऑगस्ट २०१८
ह्या काळात आयल्ल्यो कविता)

संपर्क : 9420688461

## न्हंय सुडान पेटून उठ्ठा तेन्ना

**राजश्री महाबळेश्वर सैल**

न्हंय सुडान पेटून उठ्ठा जेन्ना
भोंवतणी पापां घडूंक लागतात
मनीस अक्राळ, विक्राळ रूप धारण करता
लक्ष लक्ष आंकड्यान वाडूक लागता
तिज्या तडीतडीन पातळूक लागता
आपलें हात पांय.
तिज्या भोंवतणच्या जीव जिवावळीक
दुश्ट मारेकार हातानी बुड्डून खावूक लागता.
तिजें खोल खोल पात्र भरूक लागता
मनशाल्या आंकाताळ्या दुश्ट कर्तुबानीं
ताणें सोडिल्ल्या विखारी धुंवरानीं
काळ्या विशारी कोयरानीं.

आनी मागीर ती धारण करता
आपलें भिरांकूळ रूप.
ती आदी दुर्गा,
महामाया, जंगदंबा, काली,
महिशासूरमर्दिनी जाता.

पावसाच्या पयल्याच धारेत तुडूंन
भरून व्हांवूक लागता
हुंवारून वता.
आपल्या वाटेर येवपी दर एकट्याक
चेचायत, धाडायत, खोटलायत फुडे वता
फसफसत धांवता.
खंयचे हजार, लक्ष वर्सांचे देवूळ
कोणां गरिबालीं झोपडीं.
कोणालें भुरगें, बाळ.
कोणाले पिकूक पाविल्लें शेत
कोणाली कुळागरां अनसां, पणसां
सगलं जमीनदोस्त करता.

आनी उपरांत ह्या सूड घेतिल्ल्या
बेहोशी आनंदान
धुंद जाता
तृप्त जाता
शांत, शांत जायत
थंड, थंड शितळ, निर्मळ, नितळ, पावन
जावन व्हांवत रावता निरंतर

संपर्क: 09922265209



